# रानतळीं फातरांची जाळीं

बरोवपी :

दुर्गेश चंद्रकांत माजिक






गोवा कोंकणी अकादेमी

| | |
|---|---|
| रानतळीं फातरांची जाळीं | Rantali Fatranchi Jalli |
| बरोवपी :<br>दुर्गेश चंद्रकांत माजिक | Writter<br>Durgesh Chandrakant Majik |
| प्रकशन क्र. : 221 | Publication No. 221 |
| © दुर्गेश चंद्रकांत माजिक | © Durgesh Chandrakant Majik |
| पयली आवृत्ती : 2020 | First Edition : 2020 |
| उजवाडावपी :<br>गोवा कोंकणी अकादेमी,<br>243, पाटो कॉलनी,<br>पणजी-गोंय 403 001 | Publisher :<br>Goa Konkani Akademi,<br>243, Patto Colony,<br>Panaji-Goa 403 001 |
| छापपी :<br>रुतू ऑफसेट<br>वळवय, फोंडें-गोंय. | Printer :<br>Rutu Offset<br>Volvoi, Ponda-Goa. |
| मोल : रु. 120/- | Price : Rs. 120/- |

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या ''बाल साहित्य'' येवजणेखाला छापलां

*म्हजे जिणेंक स्फूर्ति आनी प्रेरणा दिवपी*
*म्हजी आई*
***स. चंद्रावती (सुधा) चंद्रकांत माजिक***
*आनी*
*इश्टाच्या नात्यान हात दिवन व्हडल्या*
*भावाची सावळी दिवपी*
***स. रत्नाकर जीवन नाईक (भाई)***
*हांचे यादिक ही म्हजी पयली*
*साहित्यकृती सविनय अर्पण.*

# आयज तुकां फाल्यां म्हाका

## पयलो देखावो

(रंगमाचयेर उजवाड, जंगलाचो देखाव, एक गुहा कुशीक एक तळें, जळा-मळाक झांडां पेडां, सुकणी सावदां, सोसो, असवल, हरण, कोलीण, हत्ती कोलीणीचो चलो, मोर अशी हेर जनावरां आसात ती सगळीजाणां व्हडा उमेदीन रानांत रावतात. खेळोंन फिरोंन तान लागल्या म्हणून तळयाकडे जमल्यांत, रानांतली ती एकच तळी, गुहेतल्यान वाघोबाच्यो डरकाळयो आयकुपाक येतात.)

असवल : जंगलांत फिरोन-फिरोन तान लागल्या, गळो सुकोन आयला.

हत्ती : म्हजी तीच गत जाल्या पूण कितें करतले? फुडयान उदक असोन लेगीत पिवपाक मेळना.

को. चलो : आई तान लागल्या.

कोली : पुता मात्सो राव, मागीर तुका जांय तितलें उदक दिता.

मोर : तानेन आमकांच रावोंक जायना तातून ह्या भुरग्याची कितें गत जाल्या आसतली हे हांव समजोंक शकता.

कोली : पूण आमी कितें करतले? तो राक्षस जो मेरेंन योवन तळयेचें उदक पिना तो मेरेन आमकां अशेंच तिश्टत रावचेंच पडटलें.

असवल : म्हाका दिसता वाघोबान उदक पिला आसोंग जाय.

सोसो : तुवेन ताका उदक पिताना पळयला?

असवल : ना

सोसो : मागीर पळय नासतना तूं कशें सांगोंक शकता, की वाघोबान उदक पिला आसतलो म्हूणन.

असवल : तो ज्या तरेन डरकाळ्यो मारता त्यो आयकल्यार तो उदक पिला आसपाक जाय असो म्हजो अदमास.

कोली : हो तुजो अदमास चुकीचो आसों येता.

हत्ती : आनी तुज्या अदमासाचेर आमी उदक पिलें जाल्यार आमकां ताची ख्यास्त जावं येता.

असवल : बरोबर तुमचें, अशें जावं येता.

सोसो : पूण आमकां कळटलें कशें? तो राकेस उदक पिला काय ना तो.

कोली : सगळ्यान पयलीं हांगा कोण आयल्लो? (सगळे एकामेकांक पळयतात.)

मोर : हांव आयल्लो.

असवल : तुकां खबर आसा, वाघोबा उदक पिला काय ना तो?

मोर : म्हाका खबर आशिल्ली जाल्यार, हांव कित्याक इतलो वेळ उदकाक तिश्टवत रावता आसलों.

असवल : हय, तेंवूय मात खरें.

को.भुरगो : आई ऽ ऽ तान लागल्या, उदक दी.

कोली : पुता, थोडो वेळ राव, हांव तुकां जाय तितलें उदक दिता. (इतल्यान हरण येता)

हरण : सगळे वग्गी कित्याक? हांऽ समजलें उदक पियोन सुस्ती मारल्या आसतली.

को.भुरगो : आईऽऽ तान लागल्या, उदक दी पिवपाक. (रडटा)

कोली : पुता अशें करू नाकां आनीक थोडो वेळ राव. तुकां उदक दितां.

हरण : आजून उदक पियोंक ना? म्हजीच वाट पळयतालीं काय कितें?

मोर : हय तुजीच, तूं ह्या रानाची महाराणी न्हय?

सोसो : तूं महाराणीं आनी तो वाघोबा महाराजा.

हरण : शी ऽ ऽ

मोर : महाराज न्हय महाराक्षस म्हण.

असवल : महाराक्षसच तो, ताका कोणाचीच दया येना.

कोली : आमी हांगा उदकाक तानेल्यात हें खबर आसून लेगीत मुद्दाम डरकाळ्यो मारीत गुहेत बसोन आसा.

को.भुरगो : आई वाघोबा भायर येयना जाल्यार म्हाका उदक मेळचें ना?

कोली : मेळटलें पुता.

| | | |
|---|---|---|
| हत्ती | : | म्हाका दिसता आमी कोण नासताना तो उदक पियोन गेला आसतलो, म्हुणोन तर इतलोवेळ भितर बसोन आसा. |
| को.भुरगो | : | आई म्हाका उदक दी, तानेन कितें जाता. |
| कोली | : | पुता थोडी कळ सोस, तुकां उदक दितां. हया राक्षसाक कोणाचीच म्हणून दया येयना, स्वार्थी खंयचो. |
| को.भुरगो | : | आई तूं उदक दिना जाल्यार हांवूच वचोन उदक पितां. (भुरगो उदक पिवपाक धांवता) |
| कोली | : | पुता राव, अशें करुं नाका. |
| सगळे | : | राव उदक पियो नाका. |
| | | (सगळे त्या भुरग्याक आडोंवपाचो यत्न करतात, तो उदक पितलो इतल्यान वाघोबा गुहेतल्यान धावत येता आनी भुरग्याचेर झडप घालपाक इतल्यान कोली भुरग्याक आपल्या कुशीत ओडून घेता, आनी वाघोबाची झडप कोलीणीचेर पडट्टा.) |
| वाघ | : | सोड ताका सोड, म्हजो नियम मोडपी हया पोराक हांव पिसकटून उडयतां, सोड ताका सोड. |
| कोली | : | वाघोबा दादा माफ कर, चूक जाली, परत अशी चूक जावची ना. |
| वाघ | : | चूक जालीच कशी? ताका म्हजो नेम खबर ना? म्हज्या रानांत रावोंन म्हजोच नेम मोडटात? |

कोली : वाघोबादादा तुज्या पांया पडटा, परत अशी चूक जावची ना. म्हज्या भुरग्याक एक फावट माफ कर.

वाघ : आयज हाका सोडलो जाल्यार ह्या रानांत म्हजो धाक तो कितें उरतलो? ना हाका तसो सोडचो ना.

कोली : म्हज्या भुरग्याची भीक मागता तुज्यालागीं, एकदांच माफ करात, आमी सदांच तुमचे गुलाम जावन रावतलीं, तुमकां जाय तशी आमी रावतलीं. पूण एकदांच आमकां माफ करात.

सगळे : वाघोबादादा माफ करात. आमी तुमच्या उतरा भांयर ना. पूण एक फावट त्या भुरग्याक माफ करात.

वाघ : तुमी म्हजे गुलाम आसात हे विसरों नाकांत, हांव सांगता तेंच तुमकां करचें पडटलें, म्हज्या रानांत कोणाकूच मेकळीक ना, ह्यान फुडे म्हाका फसोन जर कोण ह्या तळयेचें उदक पीत जाल्यार ताका माफी ना हे मतीत दवरात. ह्या तळयेचे उदक दर दिसा हांवूच पयलीं पितलों आनी मागीर तुमी, समजलें?

सगळे : हय.

वाघ : कोली सांमाळ तुज्या पोराक, हातीक सापडत जाल्यार नाच करुन उडयतलो.

कोली : चूक जाली वाघदादा, माफ करात.

वाघ : ही पयली आनी निमणी चूक, परतून अशें घडत जाल्यार माफी ना. चलात उदक पियात.

सगळे : तुमी पयलीं पियोन घेयात मागीर आमी घेतात.

वाघ : म्हळ्यार अक्कल आसा तर तुमकां, ती तशीच दवरात, नाजाल्यार म्हज्या सारखो वांयट कोण ना. चलात तुमकां जाय जाल्यार उदक पियोन घेयात, हांव सकाळींच पिलां. आनी एक, उदक पिल्या उपरांत म्हाका हांगसर कोणूय दिसपाक जायना. (वाघ वता)

हरण : कितलो निस्टूर न्हय हो, ल्हान भुरग्याची जावं कोणाचीच मात दया येना.

हत्ती : उदकाक लागोन आमाचो छळ चलयला ह्या राक्षसान.

असवल : गरज नासताना मारपाक येता.

सोसो : तुमी पळयल्यात न्हय, आपूण उदक पिला आसतना, आमकां इतलो वेळ ताटकळत दवरल्यांत.

हरण : दुसऱ्यांक त्रास दिवपाक तेका खूप आवडटा. कोणाचेंच बरें जाल्लें ताका नाका.

हत्ती : कोलीनताई तूं भियो नाका आमी आसात तुज्या वांगडा.

कोली : तुमी आशिल्ले म्हुणोंन हांव म्हज्या भुरग्याक पळोंक शकलें, नाजाल्यार आयज त्या राक्षसान म्हजो आनी म्हज्या पूताचो घात केल्लोच.

मोर : हो वाघ आमकां सगळ्यांक सतोंवपाक उठला, हाका सतोवपी कोणतरी योंवपाक जाय आसलो.

असवल : हाका जन्माची अक्कल घडपाकूच जांय.

हत्ती : हे पळयात, त्या राक्षसाचे घडे भरता तेन्ना भरता, पूण तो परत येवपाचे पयली आमी उदक पिवून वचोंग ना जाल्यार तो आमचे घडे भरतलो.

सगळे : हय चलात बेगीन बेगीन उदक पिवया. (सगळीजाणां उदक पितात)

(काळोख)

## दुसरो देखाव

(वाघ गुहेतल्यान डरकाळ्यो मारता, असवल आनी हत्ती उदकाक रावल्यात.)

असवल : हो राक्षस उदक पिला आसतलो काय?

हत्ती : व्हडल्यो व्हडल्यो डरकाळ्यो मारता त्या मानान उदक पिला आसपाक जांय.

असवल : आनी पियोंक नासलो जाल्यार?

हत्ती : जाल्यार कितें? तो भायर येता तो मेरेन ताची वाट पळोंपाची, आनीक कितें?

असवल : इतलो मद मारला ह्या वाघाक, केन्ना काय म्हण हाचो मद जीरतलो?

हत्ती : हांवूय ताचीच वाट पळंयता. (इतक्यान सोसो धांवत येता.)

असवल : कितें रे सोश्या, शेपडेक उजो लागल्यागत धावोंनसो आयला.

हत्ती : अशें जाला तरी कितें, ते तरी सांग?

सोसो : काय मनीस हातीन दाणे, बंदुको, कुराडी, कोयते व्हडले जाळें घेवन जंगलाच्या ह्याच वाटेन येतात.

असवल : म्हणल्यार आमची शिकार करपाक येयल्यात काय कितें?

हत्ती : तर कितें पूजा करपाक येयल्यात, शिकारी जंगलात शिकार करपाकूच येतात, तेंचे तावडीन जो मेळटा तांची ते शिकार करतात.

सोसो : असो उलयत वेळ व्हगडावं नाकात, चलात बेगीन. (भायल्यान मनश्यांचो आवाज येता.)

असवल : मनश्यांचो आवज येता चलात बेगीन.

(सगळीं जनावरां पळटात, वाघाच्यो डरकाळ्यो गुहेत सुरूच आसात, शिकारी येतात, तांच्या हातीन दाणे, बंदुको, कुराडी, कोयते, व्हडलें जाळें आसा.)

शिकारी ३ : इतले रान भोवले एकूय शिकार मेळोंक ना.

शिकारी २ : मेळटली, आजून दीस खंय सोपला.

शिकारी १ : रावात बोवाळ करु नाकात, हांगासरुच लागी खंयतरी वाघ आसा.

शिकारी २ : हंय वाघाच्यो डरकाळ्यो आयकुपाक येता खऱ्यो

शिकारी ३ : तो चड पयस आसचो ना, हांगसरुच लागी खंयतरी आसपाक जांय.

शिकारी १ : आनी हे तळें पळयात.

शिकारी २ : तळें आसा म्हणतकच, रानातलीं सगळी जनावरां हांगासर उदक पिवपाक येता आसतलीं.

शिकारी ४ : येता आसतली कितें? ती हांगसरुच येतात. ही पळंयात जनावरांची पावलां आनी हांगासर पाशे घालीत जाल्यार आमकां शिकार मेळपाक जाय.

शिकारी ३ : हेर जनावंरांचे बरें आसा पयली ह्या वाघाचो सोद घेवया.

(वाघाच्यो डरकाळ्यो आयकुपाक येतात) वाघ हांगासर लागीच खंयतरी आसपाक जाय.

शिकारी १ : म्हाका दिसता वाघ ह्या गुहेत आसपाक जाय. ह्या गुहेतल्यानूच डरकाळ्यो आयकूपाक येतात.

शिकारी २ : हय सामके खरें डरकाळ्यो गुहेतल्यानूच येतात. (शिकारी गुहेच्या लागी वचोन डरकाळ्यो आयकतात)

शिकारी ३ : आता आनीक बोवाळ करु नाकात. आवाज करी नासताना गुहेच्या मुखार जाळें पसरात.

शिकारी १ : हे पळयात वाघ सुटपाक जायना, जर सुटलो जाल्यार आमचे खरें ना.

शिकारी २ : वाघ फारावतलो अशें जाळें गुहेक बसयात. (शिकारी आवाज करीनासताना गुहेक जाळें बसयतात)

शिकारी १ : आता हांव गुहेत बंदुकीची गोळी मारता, तसो वाघ आवाजान भायर येतलो आनी जाळ्यात फारावतलो. जाळ्यात फारावतकूच तुमी तेजेर गोळी मारची, तसो वाघ बेशुध्द जांवन पट्टालो. पूण हे पळयात चूक जांवक फावोना, समजलें? तुमी तयार आसात?

सगळे : (सगळे मान हालोन सहमती दितात. शिकारी गुहेत बंदुकीतल्यान गुळी मारता, तसो वाघ डरकाळ्यो मारीत

भायर येता आनी जाळ्यात आडकता. तेन्ना बंदुकितल्यान वाघाचेर बेशुध्दीची गुळी मारतात तसो वाघ बेशुध्द जांवन पट्टा.)

शिकारी १ : वाघ बेशुध्द जाला तो शुध्दीर योवच्या पयली ताका बानून व्हरोया, चलात.
(जाळ्या सकट वाघाक दाण्याक बांधतात आनी घेवन वतात. तशी अडी कुशीक आशिल्लीं जनावरां भायर येतात.)

असवल : बरें जालें वाघाक बरीच जन्माची अक्कल घडली.

सोसो : दुसऱ्याचेर अत्याचार करप्यांचे घडे केन्ना ना केन्नातरी भरतातूच.

हरण : आयज सांवन आमी वाघाच्या अत्याचारातल्यान मुक्त जाले.

मोर : आता आमकां सगळ्यांक मेकळीक मेळटली, आमी मुक्ततायेन जंगलात भोवपाक शकतलीं.

(इतलोवेळ वग्गी आशिल्ली कोलीण उलंयता.)

कोली : ना, आजूनंय आमकां ह्या रानात जांय तशें भोवपाक मेळचें ना.

सोसो : तूं अशें कित्याग म्हण्टा? कोण आडायतलो आमकां? वाघोबा तर आता नरकात पावलो.

कोली : वाघोबा नासलो जाल्यार, वाघोबा पेक्षांय क्रूर अशी मनीसजात ह्या रानांत पावल्या.

हरण : मनीस क्रूर ते कशें? तांच्यानीच तर आमकां वाघोबाच्या संकटातल्यान मुक्त केल्यात.

कोली : तांच्यानी आमकां मुक्त करुंक ना, तर हे जे किंते घडलां तें नकळत घडलां, खरें म्हळ्यार तांच्यानी जी वाघोबाची शिकार केल्या ती कोणांयची जांवक शकता आसली. पूण जाली वाघोबाची. ते मनीस शिकारी आसात तेंका जाय फकत शिकार, आयज वाघोबाची जाली फाल्या आमची कोणांयची जांवक शकता.

मोर : हे पळय अशें कोड्यात उलोव नाका, तूका जें कितें सागपाक जाय ते सरळ सांग.

कोली : हांव सरळूच उलंयता. वाघोबा कितलोय क्रूर आसलो तरी तो आमच्यातलो आसलो पूण ही मनीसजात आमची न्हय.

मोर : म्हळ्यार?

कोली : हे पळयात, ही मनीसजात आमच्या कोणाचीच नासता तांका जाय फकत आमची शिकार. आयज तांच्यानी

वाघोबाक मारलो, फाल्या ते आमकां सगळ्यांक मारतले आनी ह्या आमच्या रानाची वाट लायतले.

हत्ती : कोलीणबाय म्हण्टा ते बरोबर आसा, वायंट वृत्तीचो जरी आसलो तरी तो आमकां जंगलात रावपाक दितालो, आमकां धमकायतालो पूण केन्नाच आमची शिकार करूंक ना. कितलोय जाल्यार तो आमचो आशिल्लो, तो आसताना ह्या रानाक एक धीर आशिल्लो, संकट वच्चे परस आमचेर संकट आयिल्लें आसा.

हरण : तुमचे बरोबर आसा, पूण एकदा मेल्लो काय परत येना न्हय, आता आयिल्ल्या संकटाक आमी कशें मुखार सरतले हे पळोंवपाक जाय. (इतल्यान एक पक्षी धावंत येता.)

पक्षी : हत्तीदादा, हत्तीदादा बरें जाले तुमी सगळींजाणा हांगासरुच मेळल्यांत.

हत्ती : कितें जालें?

पक्षी : एक बरी गजाल आसा आनी एक वायट गजाल आसा, खंयची सांगू?

हत्ती : बरीच सांग वांयट आयकोन आनी पळोंन मन निर्शेलां.

पक्षी : बरें तर, बरी गजाल अशी की, वाघोबाची शिकार जाल्या आनी ताका मारपाचे आसात.

सगळे : कितें?

पक्षी : आनी वायट गजाल अशी की, वाघ खूप चालाख आसा, तो तांच्या तावडीतल्यान सुटलो जाल्यार आमकां परत त्रास.

सगळे म्हळ्यार वाघोबा जीतो आसा.

पक्षी : हय आनी तो पिंजऱ्यात बंदिस्त आसा.

कोली : बरें जालें वाघोबा जीतो आसा.

पक्षी : तुमी अशें कितें उलयतात? हावेन तुमकां वायट गजाल सांगली आनी तुमी खोशी जाल्यात.

कोली : वाघोबा खंय आसा.

पक्षी : सकयल्या मळार, मनश्यानी ताका पिंजऱ्यात बंदिस्त करुन दवरला, तो व्हडल्या व्हडल्या रडटा.

कोली : चलात आमी सगळेजाण वचून ताका सोडोंवया.

असवल : नाका मरोनी ताका, सोडलो जाल्यार परत आमकांच त्रास दितलो.

सोसो : आमकां उदकाक सतायतलो.

कोली : हे पळयात, म्हाका दिसता ताका तेजी चूक कळ्ळ्या आसतली आनी कितलोंय जाल्यार तो आमच्यातलो आसा.

हरण : आमच्यातलो आसलो तरी तो आमच्या सारखो ना.

मोर : ताका आपल्या ताकदीचेर घमेंड आसा.

कोली : आता ही घमेंड जीरल्या, तो रडट्टा

म्हळशार ताका आमची गरज आसा, आयज जी वेळ वाघोबाचेर आयल्या ती फाल्या आमचेर येतली, हाका लागून आमी आताच सादूर जावपाक जाय, फकत वाघोबाक वाटोंवपाक लागून न्हय तर आमचो फुडार वाटोंपा खातीर.

हत्ती : म्हाका तुजे म्हणणे पट्टा, हांव आसा तुजा वांगडा वाघोबाक सोडोवपाक.

असवल : हत्तीदादा येता जाल्यार हावूंय येता. (अशें करीत सगळीजाण योवपाक तयार जातात.)

कोली : मागीर चलात तर.

(काळोख)

## तीसरो देखाव

(माचेर एक व्हडलो पिंजरो आसा तातून वाघोबा बंदिस्त आसा, कुशीक बंदुको, दाणे घेवन शिकारी आसात. वाघ रडत आसा.)

वाघ : म्हाका सोडात, हांव तुमच्या पाया पडट्टा, हांव ह्या रानातल्यान खूप पयस वता.

शिकारी १ : तुका सोडपाखातीर आमी तुका धरूंक ना, तूं आमकां जाय म्हूण आमी तुका धरला.

वाघ : हांवेन तूमचें कितें वायट केला, जे तुमी म्हाका धरल्यात.

शिकारी २ : तुका धरपाक तुवेन आमचे कितें वांयट करपाची गरज ना, आमका तूच जांय, ताका लागोन तूका बंदिस्त केला. (शिकारीक फोन येता.)

शिकारी २ : हां उलयात मालक, हा ऽऽहा ऽऽहा ऽऽ हय वाघाक पिंजऱ्यात बंदिस्त केला कितें? हा हा तुमकां जाय तशें, हय, वाघाक मारुन दवरतात, तुमी योवन घेवन वचात. बरें.

शिकारी २ : वाघा तूका आता आमी जास्त वेळ तळमळीत दवरीनात, बेगीनाच तूका स्वर्ग फिरतेर धाडटात. (हेर शिकाऱ्यांक सांगता.) हे पळयात, वाघाक पिंजऱ्यात मारात. वाघाक जितो हाडचे परस

मारुनच घेवन येयात अशें फर्मान आयला.

शिकारी ५: बरें पात्रांव.

(शिकारी वाघाक मारतले इतल्यान तांचेर चारूंय वाटानी जनावरांचो हल्लो जाता, ते आपलो जीव वाटोंपाखातीर मेळत थंयसावन पळून वतात.)

वाघ : बरें जाले तुमी आयल्यात, नाजाल्यार म्हजे कितें जातले आसले देव जाणा.

असवल : कितें जातले आसले म्हणल्यार? ते तूका मारतले आसले.

वाघ : हय, पूण तुमी म्हाका सालवार केल्यात, त्या राक्षसांकडल्यान वाचयल्यात.

सोसो : ते राक्षस आनी तूं कोण देव? तूं लेगीत त्याच प्रवृत्तीचो.

हरण : आमचेर अत्याचार करताना तुका कांयच दिस नाशिल्लें? आता तुजेर अत्याचार जालो तेन्ना तुका कळ्ळे न्हय, अत्याचार म्हणल्यार कितें तो?

वाघ : म्हजे चुकले म्हाका माफ करात.

कोली : हे पळयात, चुको सगल्याकडल्यान जातात, कोणूच ह्या जगात परीपूर्ण ना. पूण जो आपली चूक मानून ती सुदारपाक सोदता जाल्यार ताका ती संद दिवपाक जांय.

हत्ती : खरें आसा तूजें, जो आपली चूक मान्य करता ताका ख्यास्त दिली म्हणून चूक सुधारता अशें ना, उलट रागान आनीक चूको घडू येता. आनी वाघोबा आपली चूक मान्य करता, ताका आमी माफ करपाक जाय.

कोली : वाघोबादादा तूं आमच्यातलो एक आसा, संकटाच्या वेळार आमी तूका पावचीना जाल्यार कोण पावतलीं? असो रडो नाका आमी तुका माफ करता.

(कोलीण पिंजरो उघडता तसो वाघ पिंजऱ्यातल्यान भायर येता आनी सगळ्यांक हात जोडून पांया पडटा)

वाघ : म्हाका माफ करात, हावेन तुमचेर इतलो अत्याचार केलो, पूण तुमी म्हाका नवीन जीण दिल्यात. तुमचे हे उपकार हांव सदांच मतीत दवरतलो. आयज म्हाका कळून आयलें आयज तुका जाल्यार फाल्या म्हाका.

कोली : वाघोबादादा हे रान म्हळ्यार आमचे घर, घरातली सगळीजाणा एकठांय सुखान रावत जाल्यार घराक घरपण येता.

वाघ : खरें तुजे कोलीणबाय, हे रान आमच्या सगळ्यांचे. हांगा तुजे म्हजे कांयच ना आमी सगळे एक आसात.

कोली : आमी सगळे हासत खेळत रानांत रावुया आनी आमचो फुडार घडोंया.

एकचारन आमी रावुया,
फुडार आमचो घडोवया
सैमाच्या सागांतान,
जीण आमची फुलोवया

(सोपता)

## मनीस जात मोन जात
## आसा भावना एक मात

### देखाव पयलो

(रंगमाचयेर उजवाड, रानाचो देखाव, दोगजाण भुरगे सुकण्यांक धरपाखातीर जाळें मांडटात.)

बंटी : संदू जाळें सारकें बसय सुकणी सुटपाक जायना?

संदू : बंटी. सगळीं सुकणी घुसपटोंन उरतलीं, तेंका पळपाक मेळचेंच ना.

बंटी : भात सारके घातलां न्ही?

संदू : हय, एकदा काय सुकणी हे भात खवपाक आयली की ती ह्या जाळ्यांत घुसपातलीं.

बंटी : तांच्यानी हे जाळें तोचीनी तोडलें जाल्यार?

संदू : हें जाळे तांकां कशेंच तुटपाचें ना.

बंटी : गेले फावटी तूं असोच म्हणटालो पूण कितें जाले? त्या सुकण्यानी ते जाळेंच तोडून उडयलें.

संदू : तें जाळें सादे आसलें, पूण हे जाळें बरें घट्ट आसा.

बंटी : सुकण्या वांगडा खेळपाक बरी मजा येता.

संदू : तांच्या वांगडा कितें खेळपाचें? म्हाका फकत तांका धरपाक आवडटा.

बंटी : तूं धर आनी म्हाका दी.

संदू : जालें, जाळें बसोन जालें, चल आता आमी हांगा सरल्यान कुशीक सरया.

बंटी : हय चल, आमी त्या झांडा फाटल्यान रावोन सुकण्यांक पळोंया.

संदू : चल. (दोगुंयजाण झांडा फाटल्यान रावोन पळयतात. एक सुकणें आनी ताची तीन पीलां येतात.)

पिलू १ : आई आमकां भूक लागल्या.

पिलू २ : आई कितें खावपाक दी न्हय.

चिमणी : दिता म्हज्या भुरग्यानो.

पिलू ३ : आई बाकिची खंय गेल्यात?

चिमणी : तीं खूप पैस गेल्यांत.

पिलू १ : थंय खूप खावपाक मेंळटा न्हय?

पिलू २ : आई आमी थंय या.

चिमणी : तुमी आजून ल्हान आसात, तुमी व्हड जालीं काय हांव तुमकां पयस पयस व्हरतां. तो मेरेन आमी हांगा लागी लागी भोवया.

पिलू ३ : आई कितें तरी खावपाक दी, खूप भूक लागल्या.

सगळी : हय आई, खूप भूक लागल्या.

चिमणी : थोडो वेळ रावात खावपाक दिता. तुमी हांगाच रावात हांव रोकडेंच खांवपाक घेवन येता.

(चिमणी खाण सोदपाक वयता. ती जाळें घातलां थंय पावता.)

चिमणी : हांगासर खावपाक खूप आसा. बरें जालें, लागीच खाण मेळ्ळे. आता हांव पोटबर म्हज्या भुरग्यांक भरोंक शकता. (जाळ्यांलागी वयता आनी फाटी सरता) हे कितें जाळें? म्हणल्यार भात पोना आसा आनी ताच्या वयर जाळें, कोणी तरी आमकां धरपाक हे जाळें मांडला आसतलें. आता हे भात कशें मेळोवपाचें? पोटाक तर भूक लागल्या आनी म्हजी भुरगीं तर भुकेन थकोन गेल्यात. तांकां कितें खावपाक दिवंक ना, जाल्यार ती भुकेन तळमळटली. आता हांव कितें करु? कांयच समजना. खाण तर इतल्यालागी आनीक खंयच ना, आनी जे मेळ्ळा तें लेगीत जाळ्यांत घातलेलें. कांयच सुचना, भुरग्याक भूक तर लागल्या किदेंय करुन हे भात मेळोंकच जाय, नाजाल्यार भुरगी उपाशीं उरतलीं, पळोंया यत्न करुन. (चिमणी परत जाळ्यालागी वयता आनी परत फाटी सरता.) नाका, ह्या जाळ्याक पळोन भंय दिसता. हांव ह्या जाळ्यात अडकले जाल्यार, म्हज्या भुरग्यांक कोण पळंयतलो? म्हजी भुरगीं एकटीं

उरतलीं, पूण आता जर हांवे तांकां खाण दिवंक ना जाल्यार तीं भुकेन मरतलीं. "चिमणे असो विचार करीत बसो नाका, आवय तूं, आता तुजी खरी परीक्षा आसा." (मनातलो भायल्यान आवाज) ना, हांव म्हज्या भुरग्यांक अशें भुकेन तळमळीत दवरचें ना, आता जाता ते जावं, हांव हे खाण व्हरोन म्हज्या भूरग्याक दितलेंच. काम कठीण जरी आसले तरी जतनाय घेवन करीत जाल्यार शक्य आसा. आता आनीक वेळ घालोवया नाका भुरगी भुक्याल्यां आसतलीं.

(चिमणी सावकाश जाळ्यांत वचोन भात एकठांय करता. तेन्ना संदू हळूच वचोन जाळें ओडट्टा, तशी ती चिमणी जाळ्यांत घुसपोंन पट्टा.)

संदू : बंटी ऽऽ यो, सुकणें जाळ्यांत पडलें.

बंटी : संदू तूं तर सामको champ कसो, कायच न्हू कशें तुवेन ह्या सुकण्याक धरलें.

संदू : चल आता आमी ताका व्हरोया.

चिमणी : सोडात सोडात म्हाका. सोडात, म्हजी भुरगीं वाट पळयता आसतलीं.

संदू : ह्या सुकण्याक पळय, व्हडल्या व्हडल्या बोवाळ मारता.

बंटी : म्हाका दिसता तें आपल्या बाकीच्या सुकण्यांक आपंयता आसूंक जाय.

चिमणी : म्हजी भुरगीं ल्हान आसात, तांका भूक लागल्या, म्हाका सोडात, म्हाका वचोंग दियात.

सदू : बंटी तू म्हण्टा ते बरेबर आसा, हे सुकणे बाकीच्या सुकण्यांक आपयता, बाकिची सुकणी योंवन हे जाळे उभारून व्हरच्या पयली आमी हश्या सुकण्यांक घेवन या.

बंटी : हय, चल बेगीन या.

(बंटी आनी संदू सुकण्याक जाळ्या सहीत धरताता. सुकणें रडट्टा)

चिमणी : म्हाका सोडात, म्हजी ल्हान भुरगीं म्हजी वाट पळंयता आसतली. तांका भूक लागल्या, तांका खाण दिवपाक जाय.

(बंटी आनी संदू सुकण्याक घेवन वतात ते सुकण्याची पिलां पळयतात.)

पिलू १ : तें पळयात आमचे आईक कोणतरी धरुन व्हरतात.

पिलू २ : आई जाळ्यात घुसपटली.

पिलू ३ : आमचे आईक आमकां सोडंवपाक जाय, चलात.

पिलू १ : हय, चलात. (सगळी पिलां आई-आई करीत भायर वतात.)

(काळोख)

## दुसरो देखावो

(बंटीचे घर. एका व्हड पिंजऱ्यात सुकणे बंदिस्त आसा. बंटी पिंजऱ्या भायर नाचता सुकण्या वांगडा खेळटा तेन्ना बंटीची आई भायल्यान हातात पिशवी घेवन येता.)

आई : बंटी ऽ ऽ बंटी ऽ ऽ खंय गेलो काय हो, बंटी ऽ ऽ (बंटी धावत येता)

बंटी : आई ऽ ऽ आई बाजाऱ्यातल्यान म्हाका कितें हाडला खावपाक.

आई : हाडला तुका खावपाक, पयली ही पिशवी व्हरोन घरात दवर.

(बंटी पिशवी घेवन घरात वता. आई भायर बाकार बसता तेन्ना भायल्यान सुकण्याची पिलां येतात आनी पिंजऱ्या भोवती भोवतात.)

आई : ह्या सुकण्यांक पिंजऱ्यात कोणी घातले? आमच्या बंटीचे काम आसतलें, बंटीऽ ऽ बंटी ऽ ऽ (बंटी येता)

बंटी : कितें आई?

आई : बंटी सुकण्यांक पिंजऱ्यात कोणी घातले?

बंटी : हावेन न्हू आई, संदूच घेवन येयलो सुकण्यांक.

आई : संदून हाडला? मागीर सोड त्या सुकण्याक, त्या सुकण्याची पिलां पळय कशी पिंजऱ्या भोवती घिरक्यो घालतात.

बंटी : हांव ना सोडचो, म्हाका सुकणी आवडटात.

आई : बंटी अशें करपाक जायना, जशी आमी तशीच ती सुकणी. आमच्या सारके तांकाय जीवन आसा.

बंटी : पूण हांव सुकण्याक सोडचो ना. म्हाका सुकणी आवडटात, म्हाका खेळपाक जाय ते सुकणे.

आई : तुका खेळपाक जाय जाल्यार हांव खेळणी दिता, अशा मोनजात प्राण्यांक पक्षांक पिंजऱ्यात घालून तांचो खेळ करपाक जायना, देव पाप करता.

बंटी : देवानूच तर ते म्हाका दिला. हावेन देवालागी मागले आनी देवान ते म्हाका दिले. आई तुकां खबर ना, ही बाकीची सुकणी त्या सुकण्याक खावपाक येयल्यात, बरे जाले हांवेन सुकण्याक पिंजऱ्यात घातले ते, नाजाल्यार ती सुकणी त्या सुकण्याक खातली आसली.

आई : बंटी पिंजऱ्यातले सुकणे व्हडले आसा आनी ही सुकणी ल्हान आसात, पिंजऱ्यातले सुकणे तांची आवय आसतली.

बंटी : तुकां कशें कळ्ळे? तुकां सुकणी नाकाच म्हूणोंन तू ताकां सोडपाक सांगता. पूण हांव सुकण्याक सोडचो ना

म्हणल्यार ना, हे चलात वचात हांगासरल्यान. (बंटी पिलांक धांवडायत भायर वता.)

आई : बंटी, आयक म्हजे. आता कितें करु ह्या चल्याचे. हजार फावटी सांगले ह्या पक्षांक पिंजऱ्यात बंद करीनाका म्हूणोंन, पूण कसोच आयकाना. पळय, बाबडे सुकणे कशें रडट्टा, आनी ताची पिलां तर आपले आईक सोडोंवपाचो यत्न करतात. सुकण्या हांव तुजे दुःख समजूंक शकता, पूण हांव कितें करु. हावेन जर तुका आताच सोडले जाल्यार बंटीक ताची चूक केन्नाच कळची ना, आनी तो चड मस्तीपणा करतलो. तुज्या सारख्या कितल्याश्याच सुकण्यांक तो पिंजऱ्यात घालतलो, तेन्ना बंटीक तेजी अद्दल घडपाक जाय, तेजी चूक ताका कळोंन तेनीच आपल्या हातानी तूका सोडपाक जाय, तेन्नाच खऱ्या अर्थान सुदारतलो. सुकण्या तूं भियो नाकां, हांव कितें तरी करता आनी बंटीकूच तूका सोडोंवपाक लायता. कितें करु? हा ऽ ऽ गुरुजीक फोंन करता आनी तांच्या कानार ही सगळी गजाल घालता, तेच कितें तरी मार्ग काडटलेच. (आई गुरुजींक फोन करता.)

(काळोख)



## देखावो तीसरो

(रंगमाचेर उजवाड. दोन पिंजरे आसात. एका पिंजऱ्यात सुकणें आसा आनी ताच्या भोवती पिलां भोवतात. दुसऱ्या पिंजऱ्यात बंटीची आई आसा, गुरुजी आईक समजावन सांगतात.)

गुरुजी : सांगला ते मतीत दवरात. बंटी आयलो जाल्यार कितें करपाचे ते तुमकां खबर आसा.

आई : हय, गुरुजी बंटीक तेजी चूक कळपाकूच जाय.

गुरुजी : हांव घरांत लिपतां. बंटी कितें करता ते पळोंया. (बंटीचो भायल्यान आवाज येता. 'आई ऽ ऽ ')

आई : गुरुजी बंटी येता तुमी लीपोन रावात. (गुरुजी घरात वचोन लिपता, बंटी भायल्यान येता.)

बंटी : आई ऽ ऽ आई ऽ ऽ आ.... आई तुकां पिंजऱ्यात कोणी घातली.

आई : (रडत सांगता) पुता, दोगजाण चोर आयले तेंच्यानी म्हाका पिंजऱ्यात बंद केले, आनी घरातले सामान चोरुन व्हेले.

बंटी : आई तूं पिंजऱ्यातल्यान भायर यो, म्हाका तूं जाय.

आई : हय रे पूता, आनी म्हाकाय तू जाय, पूण ह्या पिंजऱ्यातल्यान हांव कशें भायर येवं.

बंटी : पिंजरो तोड आनी भायर यो, आई ऽ ऽ यो गे भायर.

आई : पूता हावेन पिंजरो तोडपाचो यत्न केलो, पूण पिंजरो बरोच घट्ट आसा, हांव आता कितें करू?

बंटी : आई तूं भियो नाका. हांव पिंजरो तोडटा आनी तुका भायर काडटा. (बंटी चारुय वाटेन पिंजरो तोडपाचो यत्न करता पूण ताका तोडपाक जायना.)

बंटी : आई तूं भियो नाका हांव कोणाकतरी घेवन येता. (बंटी भायर वता तशें गुरुजी घरातल्यान भायर सरता)

गरुजी : बंटीचे आई आमी योवजील्ले तशेंच जाता, तुका सोडोंवपाक बंटी जायते यत्न करता.

आई : हय गुरुजी, बंटीक तेची चूक लक्षात योवपाक जाय. ताणें जें केंला तें सामकें चुकीचें आसा हे ताका समजूपाक जाय. (भायल्यान बंटीचो आवाज 'येयात येयात')

गुरुजी : बंटी येता, पळोंवया कितें करता तो, हांव आसाच.
(बंटी आपल्या तीन इश्टांक घेवन येता. तांतून संदू आसा)

बंटी : ही पळयात म्हजी आई, कोणेतरी चोरानी म्हजे आईक पिंजऱ्यात बंद

केल्या. चलात आमी पिंजरो तोडुया आनी आईक भायर काडुया.

आई : पूता, म्हाका ह्या पिंजऱ्यातल्यान बेगीन भायर काड. म्हाका खूप भूक लागल्या.

संदू : बंटी आमी हो पिंजरो तोडूया. (चारूय जाण पिंजरो तोडपाचो यत्न करतात पूण पिंजरो तूटना)

बंटी : आता कितें करूया?

संदू : पिंजरो बरोच घट्ट आसा.

आई : पूता म्हाका बेगीना भायर काड, ह्या पिंजऱ्यात हांव घुसमट्टां.

संदू : बंटी आमी मेस्त काकाक आपोंवया तो पिंजरो तोडून उडयतलो.

बंटी : हय तशेंच करुया, हांव दादूक आपंयता, चिंटू तूं रामुकाकाक आपय, बंडू तूं सोमाकाकाक आपय. आई आमी रोकडेच येता आनी तूका भायर काट्टा. (सगळे वतात आनी गुरुजी भांयर येतात)

गुरुजी : बंटीचे आई पळयल्यात बंटी तुका सोडवपाक कितलो यत्न करता.

आई : यत्न करता पूण आपूण केल्ली चूक ताका आजून दिसना. त्या पिलांक पळयात कशी आपल्या आवंयक मेळपाक आसूसल्यात. तांकाय म्हण भावना आसतात ते आमच्या भुरग्यांक कशें कळना?

गुरुजी : कळटलें, आता तूमीच पळयात, तूमचो बंटी कसो त्या सुकण्याक सोडयता. (इतल्यान बंटीचे चार इश्ट आनी चार दादले येतात. लोक जमतात, तांच्या हातीन आवता आसात.)

बंटी : गुरुजी तुमी हांगा केन्ना आयले.

गुरुजी : हांव आताच आयलो.

बंटी : गुरुजी पळयात चोरांनी म्हजे आईक पिंजऱ्यात घातली.

दादलो १ : गुरुजी तुमी कुशीक रावात आमी हो पिंजरो तोडून उडयता.

गुरुजी : रावात, पिंजरो तोडू नाकात, हो पिंजरो तोडून तुमी बंटीचे आईक सोडयतले पूण त्या पिंजऱ्यात बंदिस्त आशिल्ल्या त्या आवयक कोण सोडयतलो?

दादलो २ : आमी समजोंक ना.

गुरुजी : बंटी, तुज्या आईक चोरानी बंद करुन पिंजऱ्यात घातली, पूण त्या आईक खंयच्या चोरानी पिंजऱ्यात घातली?

बंटी : गुरुजी ते सुकणें आनी ही आई.

गुरुजी : हय रे, पूण ते सुकणें कोणाची तरी आई आसा न्हय? जसो तुं तुज्या आईचो पिल, तशेंच त्या पिंजऱ्यातल्या सुकण्याची ती पळय पिलां. तुका जशी भावना आसा तशीं तांकाय आसात. तुका जशी भूक लागता, तशीं त्या पिलांकूय लागता. तुका जशें आई

बगर रावपाक जायना तशें त्या पिलाकूय आपल्या आई बगर रावपाक जायना. तुज्या सारखीच तीं पिलां पळय आपल्या आईक सोडवपाचो यत्न करतात. तुज्या आईक आमी सोडयतले पूण त्या सुकण्याक कोण सोडयतलो?

बंटी : गुरुजी आमकां माफ करात, म्हाका म्हजी चूक कळ्ळी.

संदू : गुरुजी, आयजसांवन आमी सुकण्यांक धरुन तांकां पिंजऱ्यात घालचेनात.

बंटी : गुरुजी, हांव सुकण्याक सोडयता, तुमी म्हजा आईक सोडयात. (बंटी सुकण्याक सोडयता तशी सुकणी एकामेकांक मेळोन उडोन वतात. गुरुजी बंटीचे आईक सोडयता, बंटी धावंत वचोन आईक घट्ट धरता.)

बंटी : आई ऽ ऽ आई आयजसावन हांव केन्नांच सुकण्यांक धरचो ना, तेंका धरुन पिंजऱ्यात घालचो ना. म्हाका फकत तूं जाय आनी कांयच नाका.

आई : हें पळयात भुरग्यानो, आमचे जशें जग आसा, तशेंच सुकण्याचे. मोन जातीचे तांचेय म्हण जग आसता. आमी आमची जीण जगोया, तांका तांची जीण जगोनी. सगळे मेळोन मिसळोंन रावोया आनी जीण फुलोंया.

(सोपता)

## स्वास्थाय

(रंगमाचयेर उजवाड, एका गीरेस्त व्यापाराचे घर, गणपत ईनामदार दिवाणाचेर बसलेले आसात. आगांन लट्ट कुशीक तांची बायल सुशीलादेवी ईनामदाराचे पाय चेपता, कुशीक तरेकवार पदार्थ आसात.)

ईनामदार : आगो पूरो, पूरो, पूरो कर आता पाय चेपप, वदळसावन तूं म्हजे फकत पायूच चेपता, पांयांक कितेंच जांवक ना, म्हजी दुखता तकली. ती पयली चेप.

सुशीला : तकली दुखता म्हूण लायला न्हू बाम आनी तकली थंड उरपाखातीर केसाकूंय तेल घातलां, त्या भायर तकलेचे दुखणे थांबपाखातीर पाले भाज्यांचो रस, फळांचो रस, धंय, दूद तूप लोणी सगळें कितें दीत आसा न्हय तुमकां. कांयजण सांगतात गोड खाल्यार खंय तकली दुखपाची थांबता, त्या खातीर लाडू, जिलेबी, पुरणपोळी सगळें कितें दीत आसा न्हय?

ईनामदार : हय गो, ना कोण म्हणटा. पूण तातून किते तरी फरक पडपाक जाय आसलो न्हूं, पयली तकलीच दुखताली पूण आता पोटूय दुखपाक लागलें. किते करचें तेंच कळना, वाज आयलो ह्या दुखण्याचो (आवय)

सुशीला : असले कसले हे दुखणे, वैद्य केले, हकीम केले, पत्रिकेत ग्रहबादा आसतली म्हूण जोतिश्याकूय दाखयलें, सगळे वैद्य पालथे घातले. तातून मात तरी गूण पडपाक जाय आसलो म्हूं? परते दुखणें वाडतूच आसा.

ईनामदार : एक दुखणें आसलें तें कितें कमी आसलें आता आनी हे पोटदुखणे जडावला ते. आवय ऽ ऽ

सुशीला : हांव तुमकां बासुंदी करुन हाडटा मातशें बरें दिसतलें.

ईनामदार : मातशें बरें कित्याक, सगळेंच बरें दिसतलें अशें किते तरी पोटात घाल, कितें जालां देव जाणा. आवय ऽ ऽ

सुशीला : म्हाका दिसता देवा धर्माचे किते तरी आसपाक जाय.

ईनामदार : म्हणल्यार?

सुशीला : हें पळयात, तुमच्या दुखण्याखातीर आमी इतले सगळे केलें तातून कितेतरी फरक पडपाक जाय आसलो न्हू. म्हाका दिसता किते तरी भायलें आसपाक जाय.

ईनामदार : भायलें म्हणल्यार?

सुशीला : भायलें घरा भायलें?

ईनामदार : आगो पयलीच तकली दुखता, तातूत तूं आनीक तकली दुखोंव नाका. अशें

कोडयांत उलोवं नाका. सरळ कितें ते सांग (कळ मारता) आवय ऽ ऽ

सुशीला : म्हाका बाबा सांगतालो.

ईनामदार : कोण बाबा? (कळ मारता) आवय ऽ ऽ

सुशीला : अशें कितें करतात?

ईनामदार : आगो खरेंच, खंयचो बाबा, भायलो काय भितरलो? गांवांवेलो काय जगावेलो, म्हजो काय तुजो? हांगा बाबाच खूब जाल्यात, सारखो कोण तो सांग.

सुशीला : म्हजो बाबा, तुमचो माव.

ईनामदार : म्हजो माव? ह्येका वाघान मरे खांव.

सुशीला : कितें म्हळें?

ईनामदार : काय ना. सांग तुज्या बाबाचें कितें तें.

सुशीला : बाबा सांगतालो, जावंयाचो घाडी भगताकडे प्रसाद लावन पळोंपाक जाय आसलो.

ईनामदार : म्हाका खबर आसलीच, हें अशें कितें तरी आसतलें म्हण, पूण तें आनीक कित्याग? तातून कितें दुखणे कमी जातलें?

सुशीला : बाबा म्हणटालो.

ईनामदार : कितें म्हणटालो?

सुशीला : तुमी धंद्याकार मनीस, धंद्यात नुकसाण जावपाखातीर कोणेतरी उडयला आसतालो जावंयाक आडवो.

ईनामदार : आगो तशें कितेच नासता.

सुशीला : मागीर दुखणे कित्याग बरें जायना तर, वैद्य हकिम सगळे करुन पळयले तरी दुखणे बरें जायाना. तशेंच कितें तरी आसपाक जाय म्हूणोंन तर जायना न्हय.

ईनामदार : हे पळय.

सुशीला : तुमी कायच उलोव नाकात, हांवे बाबाक सांगला बऱ्याश्या घाडयाक घेवन येयात म्हूणोन.

ईनामदार : आगो पूण ...

सुशीला : पूण बीण काय नाका, जे कोण सांगता ती ती वखदां केली पूण दुखणे काय बरें जायना. हे तरी करुन पळोंया, म्हजे आयकात.

ईनामदार : बरें बाये, फकत तूं म्हणटा म्होणोन, पूण म्हजो असल्या घाडी भगतांचेर मात लेगीत विश्वास ना, फकत पैशे उकलपाची कामां.

सुशीला : उकलीनात पैशें, आमकां कितें कमी आसा, आमकां फकत कामाशी मतलब, तुमचे दुखणे बरें जाले काय जाले, तो घेयना आपलो फायदो करुन.

ईनामदार : बरें तुका जाय तशें.

(इतल्यान सुशीलाचो बापुय आनी घाडी येता. घाडयान साधुचो भेस केला, हातीन धुवरी आनी झाडू आसा.)

घाडी : भम भम भोलेऽ ऽ ऽ (सगळ्याक पळयता)

बाबा : हो म्हजो जावंय ईनामदार, एक म्हयनो जालो साडेसाती काय कमी जायना.

घाडी : जातली कशी, कशी जातली, सगळें तर घट्ट बानून दवरलां.

सुशीला : खरें बाबा, बानून घातिल्या सारखे एका जाग्यार पडोन आसतात.

घाडी : (घाडी घर भोवता आनी मदीच कुदल्या सारखो करता.) सोड म्हाका सोड, म्हाका धरपाचो यत्न करु नाका तुका चिड्डोन उडयतलो. (झाडू हवेत मारता आनी सुटल्या सारखो दाखयता) हे जे कितें आसा ते बरेंच खर आसा, पूण भीयो नाकात हांव तुमकां ह्या संकटातल्यान भायर काडटलो, जाण भाशेचो घाडी म्हणटात म्हाका.

बाबा : तेका लागोन तर तुमका घेवन आयला बाबा, आता तूमीच कितें तें पळयात. ह्या संकटातल्यान आमकां भायर काडात बाबा, तुमकां जाय तें दिता.

घाडी : तें बरें आसा, पयली काम पूराय करता. चार नाल्ल हाड, तांदूळ, हळद, कंकू, सुपारी, अगरबत्ती, दिवो, काळो बुको बेगीना घेवन यो. (सुशीला सगळें सामान घेवन येता, घाडी मांडावळ करता)

घाडी : हे ऽ ऽ तूं कोण आसा? बस पयली पाटार.

ईनामदार : ना हांव हांगाच बरो आसा.

घाडी : तूं असो आयकचो ना. उठ पयली, उठ. (घाडी ईनामदाराक झाडू मारुन उठयता आनी पाठार सकल बसयता, ईनामदार नजो तसल्यानी पाठार बसता.)

घाडी : जय देवा महादेवा, रवळनाथा केळमाय, सातेरी, साठा गावच्या सिमेकारा, दिल्लो मान पावन करून शब्दाक शब्द दिवन, शब्दांचो एकचित्त करुन ह्या मठयेत वावूरपी वाऱ्याक भायर काड, कितें म्हणटा? हां हां करता सगळें करता. (घाडी सुशीलाक सांगता) पाडापाडेक समन सोडला, करणी केल्या, तोडाप करचे पडटले, कितें करतात.

सुशीला : सांगात आमी करतात.

घाडी : सिमेचेर चार बकरे मारचे पडटले, वीस नाल्ल, चार कुवाळे, वीस पाना, सुपारी, हळद, कुंकम, चांदिचे दोन नाणे आनी म्हज्या कामाचे वीस हजार रूपये खर्च येतलो.

सुशीला : करात, जाय ते करात पूण हें सगळें बरें करात.

ईनामदार : आगो पूण...

सुशीला : तुमी वग्गी रावात, कांयच उलोव नाकात, देवा धर्माचे कितें पळयल्ले जाल्यार इतले जावचे नासले.

घाडी : घाडयाचेर विश्वास दवरात हांव जाण भाशेचो घाडी, ह्या समनाक पयली बानून घालता. (बडबडटा) केल्या मानाचो सोपूत दिता, बारा धडे तोडून ह्या मटयेचो उद्दार कर, जाण्टयांक शब्दाक घेवन गांवच्या वजनदाराचो भोवमान करुन एक हीत, एक चित करुन हो जो कोण घरात नाचता त्या समनाक बाटलेत बंद करुन गोबर कर. (घाडी बाटलेन गोबर दाखयता) हो पळयात समनाचो गोबर केला, ही विभूती खायात. आता तुमी बरे जातल्यात, आता आमी वता.

सुशीला : बाबा हे सामान.

घाडी : ते धाडून दियात, घाडी केन्नाच कोणाच्या वस्तुंक हात लायना, ते तोडाप आसा तें फाल्यां करुया. येता हांव.

सुशीला : बाबा पैशे?

घाडी : ते फाल्या दियात काम पुराय जातकच, येता हांव (घाडी बाटली घेवन वता ताच्या वांगडा सुशीलाचो बापूय लेगीत वता.)

(काळोख)

देखावो दुसरो

(ईनामदार बलकावार बसला, कुशीक रामू गडी आसा.)

ईनामदार : हे दुखणे कमी जावपाचे नांवूच घेना, दिसान दीस मात वाडतूच आसा.

सुशीला : (सुशीला येता) हे घेयात दुद.

ईनामदार : आगो दुद कसलें दिता, हें दुखणे मात बरें जावपाचें नांवूच घेना.

सुशीला : जातले बरे, बाबान सांगला न्हय.

ईनामदार : तुज्या बाबाची ......

सुशीला : कितें उलोंव नाकात, माव तो तुमचो.

ईनामदार : माव! हेका वाघान मरे खांव, आनी तो घाडी ताणे लायली आमकां बरीच शेंडी, म्हयनो जालो घाडयान सांगील्ले सगळें केलें पूण कितें जालें?

सुशीला : म्हाका कितें खबर आसली.

रामू : मालक म्हाका एक सांगपाचे आसलें पूण राग धरू नाका हा.

ईनामदार : सांग रामू, ना धरीना राग, आनी तुजो कसलो राग.

रामू : मालक हातून मालकिणीची कांयच चूक ना, तांच्यानी ते कितें केले ते तुमच्या बऱ्या खातीरुच, तांका खंय किते खबर आसली हें अशें जातले म्हण.

ईनामदार : खरें सांगू, म्हजो कोणचेरुच राग ना, पूण ह्या दुखाण्यान म्हज्या जीवाची वाट

लावन उडयल्या, म्हाका म्हज्या जीवाचो कंटाळो आयला.

रामू : मालक अशें उलोव नाकात, तुमी जातल्यात बरे.

ईनामदार : पूण केन्ना, आयज दोन म्हयने जाले घरातूच पडोन आसा.

रामू : एक सांगपाचे आसलें पूण....

ईनामदार : सांग, ना धरचो राग, मनांत आसा तें मन मेकळें पणान सांग.

रामू : मालक म्हजो भाव तुमच्या सारख्या श्रीमंतागेर कामाक आसा.

ईनामदार : ताचे कितें जालें?

रामू : ताका कितें जावंक ना, पूण ताच्या मालकाक जाल्लें.

ईनामदार : कितें?

रामू : तुमकां जें दुखणें जाला तशेंच दुखणे त्या मालकाकूय जाल्लें पूण आयज ते एकदम बरे आसात.

ईनामदार : अशें तांच्यानी कितें केले तर?

रामू : मालक आमच्या गांवांभायल्या रानांत एक साधू रावता, तांका झाडां पाल्याची दुर्मिळ वनस्पतीची बरीच माहिती आसा, ताणी आपल्या झोपडी भोवती असल्या झांडांपाल्याची झाडां रोयल्यांत. जायत्या जाणांक तांचो गूण पडील्लो आसा, पूण दुयेसकारान तांच्या झोपडींत

रावोन उपचार घेवपाक जाय. त्या मालकान तशेंच केले आनी आयज ते एकदम बरे जाल्यात.

ईनामदार : तशें जाल्यार बरें आसा.

सुशीला : काय गरज ना साधुलागी वचपाची, सगळेच मेले नागोंपाक उठल्यात.

ईनामदार : हे पळय, सावकाश उलय, आयजमेरेन हावेन तुजे सगळे आयकलें आता मात तूं म्हजे आयक. म्हाका ह्या दुखण्याचो इतलो कंटाळो आयला, तो बरो जाता जाल्यार हांव साधुचे झोपडीत वचोन रावपाक तयार आसा.

सुशीला : (रागान) तुमकां जाय तशें, कितें तयारी करपाक जाय ती सांगात.

ईनामदार : हे पळय, म्हाका म्हयनोभर झोपडीत रावपाक जाय, तेन्ना म्हयन्याभराचे खाण पदार्थ बांदून दी. रानांत कितें खावपाक मेळत ना मेळत, रामू वचपाची तयारी कर.

सुशीला : इतले उतावळे जावंक नाकात, त्या रानांत कित्याक रावपाक जाय, त्या परस त्या साधुकच हांगा घेवन योवपाक सांगात.

रामू : मालकीण त्या साधूक कसलीच हाव ना. तो आपल्या मताचो आसा, आनी उपचाराचे पैशे तो घेंना, आप खोशेन दवरूंक येता.

ईनामदार : हे पळय म्हजो निर्णय जाला. आता हो नीमणो उपाय, गूण मेळ्ळो तर बरो आसा, नाजाल्यार सगळें देवाचेर सोपवप, जाता ते जांव.

सुशीला : तुमचे थारला जाल्यार हांव कितें उलोवं, तुमकां जाय तशें. नेवऱ्यो, रव्यालाडू बुंदीलाडू, शेव, मुगाचेलाडू डिंगाचेलाडू अशी खाणा डबे भरून दिता.

ईनामदार : बरें, आता कशें ऽ ऽ रामू वचपाची तयारी कर.

रामू : जी मालक.

(काळोख)

## तिसरो देखावो

(रानाचो देखावो साधूची कुटीर, कुशीक झाडां पेडां आसात. ईनामदार खाणान भरील्ले डबे, गादी, चादरी, उशी कुटीरे भायर दवरल्यात. रामू वांगडा दोन तीन गडी आसात, साधू ध्यानाक बसला, ईनामदार तांकां हात जोडून पाया पट्टा.)

ईनामदार : साधू महाराज, नमस्कार.

साधू : तुमी?

ईनामदार : गणपत ईनामदार.

साधू : हांऽऽ आयलें लक्षात. रामूच्या भावान कळीत केल्ले. पूण हें सगळें सामान?

ईनामदार : म्हजे आसा. तुमका खबर आसतलीच. म्हाका तकलेचे आनी पोटाचे दुखणें आसा. जाय ते उपाय केले पूण गूण मेळोंक ना. ताका लागून तुमच्या लागी आयला.

साधू : बरें आसा (आपल्या वांगडा उलयता) हाचे शरीर पळयल्यार फकत खावन -खावन फुगला आनी आपल्याकुच त्रास करून घेतला. शरीराक ना कसले कश्ट ना व्यायम, मागीर अशेच जावपाचें.

ईनामदार : साधू महाराज तुमी कसलो विचार करतात.

साधू : खरेंच तुमकां म्हाजे कडल्यान वखद उपचार जाय? सारखे कितें ते सांगात?

ईनामदार : हय महाराज, म्हाका खरेच तुमच्या कडल्यान वखद उपचार करुन घेवपाक जाय. हांव तुमकां जाय तीतलो पैसो दिवपाक तयार आसा, पूण एकदाचे हें दुखणे पयस करात. हांव तुमच्यालागी व्हडा आशेन आयलां.

साधू : तशें जाल्यार नीट मतीत दवरात, हांव सांगता तशेंच तुमकां वागचें पडटलें. कडक पथ्य पाळपाक जाय, हांव सांगता तशेंच करचें पडटलें, आयज केलें फाल्या ना अशें चलचेना, म्हजे आयकतल्यात जाल्यार रावात, ना जाल्यार तुमी वचूक शकतात.

ईनामदार : महाराज तुमी सांगता तशें वागतालो, तुमच्या उतराभायर हांव ना, सांगात कितें करपाक जाय?

साधू : तशें जाल्यार बरें आसा. आतासांवनूच सुरवात करया न्हय?

ईनामदार : हय महाराज सांगात तुमी.

साधू : हें जें कितें तुमी तुमच्या वांगडा हाडला तें पयली परत धाडात.

ईनामदार : महाराज हें सगळें तुमच्या खातीर न्हय, तर म्हज्या खातीर आसा.

साधू : आताच तर तुमी म्हाका सांगल्यात की हांव तुमच्या उतरांभायर ना म्हुणोन. आनी....

ईनामदार : माफ करात महाराज, रामू ऽ ऽ हें सगळें परत वच घेवन.

साधू : तुमच्या सगळ्या मनशांक वचपाक सांगात, हांगासर कोणाचीच गरज ना. तुमकां बरें जावपाक एक म्हयनो जाय, तेन्ना एका म्हयन्यान परत व्हरपाक योवपाक सांगात. एक म्हयनोमेरेन तुमकां घरचीच न्हय तर कोणूच मेळपाक योवपाक जायना, तुमकां जमतलें?

ईनामदार : हय महाराज, रामू मालकीण बाईक सांग हांव एका म्हयन्यान येतलो.

रामू : जी मालक, प्रणाम महाराज (नोकर वतात)

साधू : तुमी दमले आसतले, समोरच्या कुटीरात वचोन विसव घेयात. थंय सतरंजी आनी हेर सामान आसात.

ईनामदार : महाराज एक गादी दवरल्यार बरे जावपाचें. म्हाका सतरंजेर न्हिदापाची सवय ना न्ही, कितें लागत जाल्यार?

साधू : कितें लागलें जाल्यार वखद आसा म्हज्यालागी, तुमी निवांत विसव घेयात.

ईनामदार : पूण महाराज, म्हाका वखद दियात न्हय.

साधू : तुमकां वखद दिवपाक हावेन वदळच्यान सुरुवात केल्ली आसा.

ईनामदार : हां ऽ ऽ हांवे केन्ना वखद घेतलें? आनी तुमी म्हाका केन्ना वखद दिलें? महाराज तुमी विसरल्या आसतले.

साधु : हें पळयात, हांव म्हजो आखील्लो नेम केन्नाच विसरना, म्हज्या सगळें लक्षात आसा. हांवे तुमकां वखद दिला. चलात थोडो विसव घेयात, हांव थोडो वेळ ध्यानाक बसता.

ईनामदार : बरें महाराज, (साधू कुटीरान वता) काय बरो आसलो, हांगा योवन आता दुखणें चड वाडटलें. बायल सांगताली वचो नाकात म्हुणोन, पूण हांव आयकुकना. आता विचार करून कितें उपेग 'आलीया भोगासी असावे सादर' सादर खंयचे साधी चादर आसल्यार खरी, कुटीरान वचोन विसव घेवचे परस आश्रमाचो आवाट तरी पळोंवया. (ईनामदार कुटीरा भोवतडी भोवता) केतलो देखणो सैम हो, तऱ्हेकवार सुकणी, सुकण्यांचो आवाज, ताजी ताजी हवा, जीवाक बरें दिसता. (साधू येता.)

साधू : पळयल्यात सैम?

ईनामदार : खुपच सोबीत आनी सुंदर आसा.

साधू : चलात, ती सारन घे आनी कुटीर नितळ कर, मागीर आमी रानांत एक पासय मारुन योवया.

ईनामदार : पूण महाराज, म्हाका वखद दियात न्हय पयली?

साधू : हें पळयात वखद हांवे सुरुवात केल्ली आसा, चलात काम करात.

ईनामदार : बरें. (ईनामदार सारन मारता)

(काळोख)

## देखावो चौथो

(ईनामदार कुटीरा कुशीक खण्टा)

ईनामदार : खणोन खणोन पूरो जालें, आंगुय दुखता, खंयची दुर्बुध्दी सुचली आनी हांव हांगा आयलो. देवा आनीक जायना, धुकल एकदांचे दिस, हांव वयता घरा. (साधू भायल्यान येता)

साधू : आयज जे खणला तीतले पूरो, सदांच थोडे थोडे खणपाचे. दोबरो पुराय जाल्या उपरांत झांडांपालो हाडपाचो, शेणी हाडपाची आनी ह्या दोबऱ्यात घालपाची, ताचे बरें खत तयार जाता, ते झाडांक उपयोगी आसता.

ईनामदार : (आपल्या वांगडा उलयता) काय बरे दीस आसले, सगळें कितें नोकर चाकर करताले, आनी हांगा हावूंच नोकर जाला.

साधू : कितें म्हणलें तूवें?

ईनामदार : ना खंय कितें... हांव म्हणी खत करपाचे.

साधू : बरें ही घे. (गळ्यातल्यान माळ काडून दिता)

ईनामदार : हे कितें गळ्यात घालपाचे काय कितें? वखद आसा?

साधू : वखद न्हय ही माळ, नामजप करपाची. रातचे जेवण जालें उपरांत न्हिदच्या

पयली ही माळ हातीन घेवन 'श्री राम जय राम जय जय राम' म्हणपाचे, कळ्ळें?

ईनामदार : हय कळ्ळें, पुण महाराज म्हाका वखद दियात न्हय.

साधू : हांवेन वखद दिवपाक तुमकां सुरू केल्ले आसा, ही उदकाची मडकी तर रिकामीच आसा, झरीर वच आनी मडकी भरुन दवर.

ईनामदार : बरें महाराज. (साधू कुटीरांत वता ईनामदार हातीत मडके घेवन) कितलो मुर्ख हो साधू सरळ सरळ फटिंग उलयता. आठ धा दीस जाले, वखदाचें नांवूच काडीना तोंडातल्यान आनी म्हण्टा वखद दिवपाक सुरुवात केल्या खंय. कसली गुळी ना पुडी, ना भस्म ना लेप कांयच दिवूक ना, फकत नोकरा सारखो काम करुन घेंता हें कर तें कर, हें खांवनाका ते खांवनाका, हें खा इतलेच खा, कंटाळो आयलो. काय बरो घरांत सुखान आसलो, हें एक तकलेचे आनी पोटाचे दुखणे सोडलें जाल्यार सगळें बरें आसलें. ह्या दुखण्यान .... अरे ऽ ऽ ऽ म्हजे दुखणे खंय गेलें, म्हजी तकली आनी पोट कशें दुखोक ना? काय दुखलें पूण

म्हाका समजोंक ना. पूण अशें कशें जातलें, एकदाची तकली दुखोंक लागत जाल्यार जीव वयता असो जातालो. पूण आता तशें कांयच जायना. (विचार करता) बरें आसा. जास्त विचार करुया नाका, नाजाल्यार परत दुखोंग लागत. चल ईनामदार, विचार करचे परस उदक भर आनी एक एक काम हाता वेगळें कर. (मडके घेवन उदकाक वता)

(काळोख)

## देखावो पांचवो

(ईनामदार आंगान थोडो बारीक आसा. तो सारन मारता, उदक भरता अशी तऱ्हेकवार कामा सुरू आसात.)

ईनामदार : म्हाका हांगासर योवन आयज म्हयनो जालो, पूण एक दिसूय म्हजी तकली दुखोंक ना, आनी पोटूय दुखोंक ना. पयलीं काम करपाचो कंटाळो येतालो, पूण आता कितलेंय काम केलें जाल्यार पुरो जायना. आंग कशें हलके हलके लागता, कितें हो चमत्कार कांयच कळना? (साधू कुटीरातल्यान भायर येता)

ईनामदार : महाराज तुमी केन्ना आयल्यात, हांवेन सगळी साफ सफाई करून सगळ्या मडक्यानी उदक भरुन दवरलां. सांगात खंय कितें खणपाचे आताच खणोन दिता.

साधू : नाका तुजे आंग दुखतलें.

ईनामदार : महाराज, आंग दुखलें फकत दोन दीस, ताच्या उपरांत पोटाचे आनी तकलेचें दुखणे खंय गेलें तें कळ्ळेंच ना. म्हाका दिशील्लें ही भाजी-भाकरी, कंद मुळां खांवन आनी शेंद्रेर न्हिदोन हांव चड दुयेंसी जातलो, पूण अशें कायच जावंक ना, हांव एकदम बरो

जालो. हे कशें जालें? ना तुमी म्हाका केन्ना वखद दिवंक ना, आनी ना केन्ना हांवेन तें खावंक ना.

साधू : हांवूय तेंच म्हणटा, हांव तर सदांच तुमकां वखदां दितालो आनी तुमी ते सदांच घेताल्यात.

ईनामदार : हें अशें कशें म्हणटात तुमी?

साधू : तेंच तर गुपीत आसा. म्हाका सांगात, हांगासर जी कामा तुमी केल्यात तीं ह्यान पयली केन्ना केल्यात?

ईनामदार : ना.

साधू : तुमी केन्ना शेंद्रेर निदल्यात? हांगसर जें कितें खाल्ला ते केन्ना खाल्लें? कोसाचे कोस केन्ना चलोन गेल्ले?

ईनामदार : ना. हांगसर जसो हांव रावला तसो हांव केन्नांच रावूंक नासलो.

साधू : तुमी फकत आराम जीण जगताले, तुमी फकत तोणान कामा करताले, पूण शरीर कश्टाची तुमकां जाण नासली. बरें बरें खावप, पचो अथवा न पचो आनी खांवन खांवन बसप. हातुतल्यान तुमकां तकलेचें आनी पोटाचें दुखणें जालें. तुमकां पळयतोकूच म्हाका कळलें तोणातल्या वखदा परस तुमकां व्यायामातल्या कश्टाच्या वखदाची चड गरज आसा. हांव तुमकां गरज आसा

तेच वखद दीत गेलो आनी निमणो परीणाम पळयात.

ईनामदार : हय महाराज, तुमी म्हजे दोळे उघडल्यात, म्हाका व्हड संकटातल्यान वाचयल्यात, महाराज तुमच्या कामाची दक्षणा सांगात.

साधू : दक्षणा कसली? हांवेन तर तुमकां वखदूच दिवंक ना मागीर दक्षणा घेवपाचो प्रश्नूच येंना.

ईनामदार : महाराज अशें लजोव नाकात, तुमकां दक्षणा घेवचीच पडटली. नाजाल्यार हांव हांगासावन वयचोच ना. तुमी म्हजेर व्हड उपकार केल्यात.

साधू : हांवेन तुमचेर कसलेच उपकार करुंक ना. तुमची चिकाटी आनी मनावयलो तुमचो ताबो, हातून तुमी चड बरे जाल्यात. पूण म्हाका तुमकां एक सांगपाचे आसलें, जमता जाल्यार पळयात, पूण एक आसा, मुखार सरल्या उपरांत फाटी सरपाक मेंळचेना.

ईनामदार : सांगात महाराज, आता कसल्याच कामाक फाटी सरचो ना.

साधू : आयज सावन तुमी तुमचे काम दुसऱ्यांचेर सोपोंव नाकात, स्वतःचे काम स्वतः करात. शरीराक खरी गरज आसता कश्टाची, श्रमाची, व्यायामाची.

तशें करुंक ना जाल्यार तऱ्हेकवार दुयेंसा जातात. आनीक एक, तुमी गीरेस्त आसात. दुसऱ्यांचेर परोपकार करात, समाज कल्याण करात, तातूतल्यान तुमकां लोकांचे आशिर्वाद मेळटले. तुमी सदांच सुखी आनी निरोगी जीण जगताल्यात.

ईनामदार : हय महाराज, तुमी सांगील्ले सगळें हांव करतलो. तुमी म्हाका जे शिकयलां तें हांव केन्नाच विसरचो ना. आता येतां हांव. गाडयेची वाट पळोवंचे परस चलतूच घरा वतां. महाराज नमस्कार करता.

साधू : सुखी रावात, आयुष्यवंत भवः

(सोपता)

## आयते ना मेळचें
## काम करीत रावचें

(रंगमाचयेर उजवाड. रायबा व्यापाऱ्याचें घर, रायबा गणूपंत व्यापाऱ्याची वाट पळयता)

रायबा : हो गणूपंत पावलो तरी खंय? चार फावटीं सांगणे धाडून निमणो येता म्हूण सांगल्यान. ताका लागून हांव म्हजी सगळी कामा सोडून ताची वदळ सावन वाट पळयतां, जशें कितें म्हज्याच फायद्याचें काम आसा, ताच्याय फायद्याचे आसा. पूण वेळार आयलो जाल्यार तो गणूच कसलो. सांगतलो एक वेळ आनी येतलो आपणाक जाय तेन्ना, जशें कितें आमी बेकारुच.

(इतल्यान गणूपंत येता)

गणू : कितें रे रायबा एकलो सो बडबडता.

रायबा : यो बाबा यो तुजीच वाट पळयतालो.

गणू : कितें जाले रे असो घाई घाईन सो आपयला.

रायबा : म्हणजे तूं घाई घाईन आयला तर? चार फावटी सांगणे धाडल्या उपरांत निमणें येता म्हूण सांगला आनी आयला तो लेगीत उशीराच.

गणू : दुदाच्यो दोनूच बाटल्यो उरिल्यो, म्हणलें विकूनच या आनी तसो पळयत जाल्यार तूं सांजेचो घरांतच आसता न्हू.

रायबा : म्हाल तसो बेगीना सोपयता म्हूणोन सांजेचो घरा आसता, तुज्या सारखो बाटले बाटलेचो हिशोब करीत बसना.

गणू : बरें तें आसों, कित्याक आपयला?

रायबा : तुज्याच फायदशाचे काम आसा म्हूणोंन आपयला.

गणू म्हज्या फायदशाचें? कसलें?

रायबा : हांव फाल्या म्हाल घेवन शांती नगरांत वचपाचो आसा, तूं येता जाल्यार सांग?

गणू : शांती नगरात? कित्याक? बाबा, हांगा तुज्या म्हालाक खप ना काय कितें?

रायबा : तसो थोडो खप आसा, पूण जाय तसो फायदो मेळना.

गणू : मागीर शांती नगरात तुका चड फायदो मेळटलो काय कितें?

रायबा : हय मेळटलो.

गणू : कसो?

रायबा : महाराज देवदत्ता कडल्यान.

गणू : महाराज देवदत्त.

रायबा : हय, महाराज देवदत्त खूप दयाळू मोगाळ आनी शांतिप्रीय आसा. तो गरीबांक दोनी हातानी दिता. ताका खंयचीय गोश्ट आवडत जाल्यार तो

ताचे मोल करीत बसना, मागता तें मोल दिता.

गणू : पूण राजाक दिवपाक तुज्यालागी आसा तरी कितें?

रायबा : तुका कळचे ना. एकदां काय हो राजा गरयेक लागलो काय सात पिडयो बसोन खावपाचें.

गणू : म्हणल्यार राजाक लुबाडपाचो? ताका फसोवपाचो? किदेंय सागों नाका.

रायबा : हांवेन कितें थारयला तें सारखें आसा. एकदा काय राजा हातीक लागलो, जाल्यार बसोन खावपाचें, काम करपाची गरजच ना. पिळग्या पिळग्यो बसोन खा.

गणू : पिळग्या पिळग्यांचे सोड, तुका पोटभर चार घास मेळटा न्ही, मागीर दुसऱ्यांक नागोंवपाचे, फसोवपाचे कित्याक येवजीता? राजा तो, फटींगपणा धरीत जाल्यार फाशी दितलो.

रायबा : तूं म्हाका भिवोव नाका, तुका योवपाचें आसा जाल्यार यो.

गणू : पूण ....

रायबा : फाल्या सावन शांतीनगरात उत्सव आसा, त्या उत्सवाच्या निमतान हांव राजाक म्हजो म्हाल विकतलो.

गणू : पूण असलो कसलो तरी म्हाल तूं राजाक विकतलो?

रायबा : तादूळ, तांदूळ विकापाक व्हरतलो हांव शांती नगरात.

गणू : आरे देवा! तुका कळटा तं कितें करपाक सोदता तें? पयलीच राजालागी तांदळाच्यो राशी पडल्यात, तातून तुज्या तांदळाक कोण विचारतलो?

रायबा : तें हांव सारखे जाणा कशें करपाक जाय तें, तुका योवपाचे आसा जाल्यार यो, नाकाजाल्ली तत्वज्ञानां सांगूक नाका.

गणू : ना रे बाबा, हांव हांगासरुच बरो आसा. तुका वचपाचे आसा जाल्यार वच, पूण एक, कितें करता तें सांभाळून कर, येता हांव. (गणू वता)

रायबा : बरें तर, भित्रो खंयचो, पैशे जोडपाची संद चलोन येयल्या जाल्यार हो ताका पैस करता. राव हांगासरुच टूक टूक करीत, हांव वयता शांती नगरात. चलात सामानाची तयारी करुया.

(काळोख)

## दुसरो देखावो

(राजाचो दरबार, राजा सिंहासनाचेर बसला, कुशीक मंत्रीगण आसात.)

राजा : प्रधानजी उत्सवाची सगळी तयारी जाली.

प्रधान : हय महाराज, सगळ्याक कडेकोड बंदोबस्त दवरला. उत्सवाक येवपी सगळ्या राजांची, लोकांची बेसबरी व्यवस्था केल्ली आसा.

राजा : बरें आसा, पूण सगळें एक मतीत दवरात, आमच्या शांती नगरातलो हो होडलो उत्सव आसा. उत्सवाक योवपी कोणाकच कसलीच अडचण जावपाक जायना, सगळ्या सोयऱ्यांचो सन्मान आदर करात. शांती नगराची किर्ती अशांत जावची ना हाची जापसालदारकी सगळ्यानीच घेवपाक जाय. (तेन्नाच एक शिपाय येता)

शिपाय : महाराजांचो विजय असो.

राजा : कितें जालां?

शिपाय : महाराज, भायल्या नगरातलो एक व्यापारी आयला तो तुमकां मेळपाक सोदता. महाराजांक मेळपाक मेळचे ना अशें हांवेन तांकां समजावन सांगले पूण तो आयकूपाकूच तयार ना, तूमकां मेळपाक जाय म्हूणोन सकाळ सावन

वाट पळयत आसा. तुमकां मेळपाक जाय म्हूणोंन आडोवन बसला.

राजा : त्या व्यापाऱ्याक घेवन यो.

शिपाय : जी महाराज.

(शिपाय वता आनी रायबाक घेवन येता. रायबाच्या हातान तांदळाचे पोते आसा.)

शिपाय : महाराजांचो विजय असो. (दोगूय मुजरो करतात.)

रायबा : महाराज.

राजा : कोण तुमी? नांव कितें तुमचे? आनी म्हाका मेळपाक कित्याक सोदताले?

रायबा : महराज हांव रायबा मापारी, कामापूर नगरातलो एक ल्हानसो व्यापारी. तुमच्या उत्सवाची कितीं सगळ्या प्रदेशांनी गाजता, तेन्ना तुमच्या उत्सवाखातीर हांवेन खास उच्चदर्जाचो आंबेमोहर तांदूळ हाडला.

राजा : पूण आमच्या उत्सवाची सगळी तयारी जाल्ली आसा.

रायबा : महाराज म्हजे तुमकां हात जोडून मागणे आसा, एकदांच हो तांदूळ पळोवन घेयात, हाचे भात खावन पळयात, ह्या भाताचो वास, खाल्या उपरांत लेगीत बरोच वेळ हातीक तसोच उरता, असो हो तांदूळ आसा.

प्रधान : महाराज, उत्सवाखातीर जाय ते धान्य आसा.

राजा : हो व्यापारी आमच्या नगराची किर्ती आयकोन मुद्दाम उत्सवाखातीर आपलो आंबेमोहर तांदूळ घेवन आयला. पळोवया तरी कसो आसा. आवडलो जाल्यार दवरुन घेवया.

रायबा : महाराज एकदांच पळोवन तरी घेयात, आवडलो जाल्यार दोन बैलगाडयो भरुन तांदूळ हाडला तो उतरुन घेता. ना आवडोंग जाल्यार तसोच परत व्हरता.

राजा : रायबा व्यापारी, तुमी इतले सांगता जाल्यार दाखयात, आवडलो जाल्यार उत्सवाखातीर होय तांदूळ वापरुया.

रायबा : बरें महाराज.

(रायबा तांदळाचे पोते उक्ते करता तसो आंबेमोहर तांदळाचो वास दरबारात पसरता. रायबा तांदूळ व्हरोन महाराजाक दाखयता)

राजा : वा ऽ खरेंच, पोते उकते करतकिच तांदळांचो वास दरबारात घमघमपाक लागला. तांदूळ खरेच बरो आसा. (तांदूळ हातान घेवन) प्रधानजी हांच्या बैलगाडीतलो सगळो म्हाल उतरपाची व्यवस्था करात, रायबा तुमचो सगळो म्हाल आमी घेतां. म्हालाची किंमत सांगात.

रायबा : (खूश जावन) महाराज तुमकां जी योग्य दिसता ती दियात.

राजा : अशें कशें, म्हाल तुमचो आनी ताचें मोल आमी कशें थारोंवपाचे? दर एक व्यापारी आपल्या म्हालाक जास्तीच जास्त कशी किंमत मेळटली हाका लागून घासाघीस करतात आनी तुमी तर एकदम वेगळे.

रायबा : महाराज म्हज्या म्हालाक अमूकच किंमत जाय अशें म्हजे कांयच म्हणणे ना. तुमकां म्हजो तांदूळ आवडलो आनी तुमी तो वापरपाचो निर्णय घेतलो हातूनच म्हज्या म्हालाचें आनी म्हजें सार्थक जालें.

राजा : पूण तांदूळ तुमचो आसा, आनी त्या तांदळाची योग्य दर तुमकांच खबर आसतली आनी तुमीच ती सांगपाक जाय. तुमच्या मेहनतीचें योग्य फळ तुमकां मेळपाक जाय.

रायबा : महाराज एक सांगो?

राजा : सांग.

रायबा : महाराज तुमच्या किर्तीचे गुणगान सगळ्याक गाजता. तुमच्या सारखो राजा पंचक्रोशी नगरात ना. तुमच्या नगरासारखे सुखी, आनंदी नगर सोदून मेळचें ना, तूमची मायाळू उदार वृत्ती

राज्याक सांभाळपाचें कौशल्य, ह्या तुमच्या गुणांक तोड ना महाराज. अशा किर्तीवंत प्रजाप्रिय राजाच्या राज्यांत म्हजो तांदूळ घेतलो हेंच म्हजें भाग्य आसा. महाराज तीस पोती तांदूळ आसा, तुमकां योग्य दिसता ते मोल दियात. म्हजे कांयच म्हणणे ना.

राजा : बरें, तुजो इतलोच आग्रह आसा जाल्यार आनीक कितें उलोव. प्रधानजी दर एका पोत्याक चडांत-चड किंमत दियात आनी रायबा व्यापारीचो दोन हजार सुवर्णमुद्रा दिवन सन्मान करात. अशे व्यापारी लाखात एक आसतात.

प्रधान : महाराज आज्ञा घेता. चलात व्यापारी बुवा (प्रधान आनी रायबा वतात)

राजा : तुमी येयात आता.

सगळे : जी महाराज (सगळें वतात. महाराज खिडकेतल्यान पळयतात)

राजा : कसलो आवाज जाता. हा ऽ ऽ रायबा व्यापाऱ्याचे गडी म्हाल उतरतात, पूण हे गडी एक दोन तांदळाचे पातें उतरल्या उपरांत इतले दमोन कशे वतात? तांदळाचे पातें इतलें जड आसता? अरे ! हें आनी कितें? कितें तरी भानगड आसा. शिपायीऽ ऽ शिपायीऽ ऽ (शिपाय येता)

शिपाय : जी महाराज.

राजा : प्रधानजीक तातडीन आपोवणे धाडात.

शिपाय : जी महाराज (शिपाय वता आनी प्रधान येता)

प्रधान : जी महाराज.

राजा : आमचे सात आठ शिपाय घेवन व्यापाऱ्याचो सगळो म्हाल उतरुन घेयात आनी त्या रायबा व्यापाऱ्याक वचपाक दिवनाकात, ताका सागांत की उत्सवाचे जेवनूच तुमी वच्चें असो महाराजाचो आग्रह आसा.

प्रधान : महाराज माफ करात, पूण एक समजोंक ना, तुमी त्या व्यापाऱ्याक इतलो मान कित्याक दितात?

राजा : समजतले, वेळ येतकूच सगळें समजतलें. पूण आता हांव सांगता तीतलेंच करात. (राजा प्रधानाक कानांत सांगता)

राजा : समजलें? सांगला तशेंच जावक जाय चलात.

(काळोख)

## तिसरो देखावो

(राजाच्या कुशीक व्यापाऱ्याक जेवपाचे ताट दवरलां, राजाच्या ताटात शीत खीर भाजी आमटी अशे जिन्नस आसात, पूण व्यापाऱ्याचे ताट मात रिकामेंच आसा. राजा आनी व्यापारी येतात, जेवणाच्या ताटाक पळोवन राजाक राग येता.)

राजा : प्रधानजी, आमच्या ह्या व्यापाऱ्याचे ताट रिकामे कित्याक?

प्रधान : महाराज हांव स्वतः जातीन तांका वाडपाचो आसा.

राजा : तुम्ही?

प्रधान : हय महाराज, म्हाका तितलो तरी मान मेळोनी न्हय, तूमी बसात, हांव तांका वाडटा.

(राजा आनी रायबा पाटार बसतात. प्रधान रायबाच्या ताटांत फकत मीठाच्यो राशी वाडटा तें पळोन राजाक राग येता)

राजा : प्रधानजी ही कसली फकाणां चलयल्यात तूमी?

प्रधान : रागार जांव नाकांत महाराज, फकाणां हांवेन न्हय तर ह्या रायबा व्यापारान चलयल्यात.

राजा : कितेंय उलोंव नाका, ह्या राज्याचे तुमी प्रधानजी आसात हाचे भान दवरात, आमी हांका खास जेवपाक आपयल्या

आनी तुमी हांची जाणून बुजून फसवणूक करतात.

प्रधान : फसवणूक हांवेन न्हय महाराज, तर ह्या व्यापाऱ्यान चलयल्या.

राजा : अशें कोडयात उलोव नाकात सरळ कितें तें सागांत.

प्रधान : महाराज माफ करात, पूण तुमकां खरें कितें तें कळपाकूच जाय.

राजा : कितें ते?

प्रधान : महाराज, ह्या व्यापाऱ्यान आमकां फसयल्यां. तांदूळ म्हणोन साकाचे साक भरुन मीठ हाडलां.

राजा : अशें कशें आसतलें? कितेंय सागों नाकात.

प्रधान : खरेंच महाराज, सगळ्या साकानी फकत मीठच आसा, हांवेन म्हज्या दोळ्यानी पळयलां.

राजा : प्रधानजी, हांच्यानी तर आंबेमोहर तांदूळ हाडलां, तुमी पळयल्यात न्हय. पोतें उक्तें करतकीच कसो घमघमीत वास सुटलो.

प्रधान : खरें महाराज, तें एकच पोते तांदळाचे आसलें बाकीच्या सगळ्या पोत्यानी फकत मीठ आसलें.

राजा : मीठ आसलें म्हण कितें जाले? आयज ते आमचे सोयरे आसात. आमी खास

तांकां जेवपाक आपयल्यात आनी तुमी तांची फकाणां करतात?

(इतलो वेळ वग्गी आशिल्लो रायबा रडत राजाच्या पाया पडट्टा)

रायबा : महाराज म्हाका माफ करात, माफ करात महाराज.

राजा : (रायबाक पळय नासतना) प्रधानजी आमची आनी राज्ज्याची किर्तीं आयकोन हे व्यापारी हांगा आयले, तांच्यानी हाडील्ल्यो साकाच्यो पोतयो आमी घेंवक नाशिल्ल्यो जाल्यार तांकां खूप वायट दिसपाचें म्हुणोन त्यो आमी घेतल्यो.

रायबा : माफ करात महाराज.

राजा : (रायबाक पळय नासतना) तुमी आयकला आसतलें, ह्या व्यापाऱ्याचो तांदूळ आमच्या राज्यात घेतलो. हाचो तांकां अभिमान आसा. ते ताची किंमत लेगीत सागां नाशिल्ले, पूण एक मतीत दवरात प्रधानजी, ह्या व्यापाऱ्यान जरी किंमत सागोंक ना तरी लेगीत आमी तांची किंमत केल्या. पूण आता तांच्यानी आमची किंमत कशी केल्या हें तांचे तांकां खबर.

प्रधान : महाराज इतलें खबर आसून लेगीत ....

रायबा : माफ करात महाराज, म्हाका माफ करात.

राजा : (रायबाक पळय नासतना) प्रधानजी, आपले वागप, आपले उलवप हे आपल्या हातीन आसता. आमी दुसऱ्यांचेर सक्ती करुंक शकना, आनी सक्ती करुन तांतून सुधार जायना. हे व्यापारी म्हजी किर्ती आयकोन राज्यात आयले, हावेन म्हज्या किर्तीचो मान राखलो.

प्रधान : महाराज ह्या व्यापाऱ्याच्या किर्तीचे कितें?

राजा : हे ताका चड बरे खबर आसा. खरे न्हय रायबा व्यापारी.

रायबा : (रडत) महाराज हावेन व्हड चूक केल्या, तुमी दिता ती ख्यास्त भोगपाक हांव तयार आसा. (पांया पडट्टा)

राजा : रायबा उठ. ख्यास्त दिवपी हांव कोण? जें कोणांक कितें दिवपाक जाय तें देवूच दिता, आपल्या कर्माची फळां आपणेंच भोगची पट्टा. ताका लागोन आपलें कर्म बरें आसपाक जाय, ताचे फळूय आपणाक बरेंच मेळटा. दुसऱ्याक नागोंवन, फसोंवन आपलें केन्नांच बरें जायना, तुमचे विचार बरे दवरात, विचार बरे दवरीत जाल्यार जीण सुखी उरता. तुमी हें सदांच मतीत दवरात, बरें दवरीत जाल्यार जीण सुखी उरता. तुमी

हें सदांच मतीत दवरात आनी सुखान व्यापार करात.

रायबा : महाराज, तुमी म्हाका सद्मार्ग दाखयला, आयज सावन हांव तुमी दाखयल्ल्या मार्गार जीण जगतलों.

सगळे : महाराजांचो विजय असो, महाराजांचो विजय असो.

(सोपता)

## रानतळीं फातरांची जाळीं

### पयलो देखाव

(रंगमाचयेर उजवाड, जंगलाचो देखाव? फातरांचें रान, फातरांची व्हड गुहा, फातरान बांदिल्ली तळीं, सुकलेले झाड, दोगजाण भुरगे विजू आनी दिनू माचयेर येतात, हातात लांब बडी खाकेक कपड्याची पिशवी, तांतून कोयती आसा. दोगूय धाडसी वृत्तीचे.)

विजू : दिनू आमी काजी काडीत काडीत खंय पावले.

दिनू : आमी फातरांच्या रानांत पावलेशे दिसता, आमकां हांगा काजी खूप मेळटल्यो.

विजू : हय, दिनू ऽऽ तान लागल्या उदक दी.

दिनू : उदकाची बाटली आसा राजू म्हज्यालागी.

विजू : ती हांगा पावता म्हणल्यार कावळे पिलां काडटले.

दिनू : विजू ही पळय तळी.

विजू : चल पयली उदक पिवया आनी मागिरुच हांगासरल्यो काजी काडूया.

राखणदार : रावात ऽ ऽ ऽ (फातरांच्या गुहेतल्यान आवाज)

दिनू : कोणाचो आवाज.

विजू : हय, कोणाचो आवाज.

दिनू : मनश्याचो कसो दिसता.

विजू : आरे ऽ ऽ आमच्या पयली कोणतरी हांगा येयला आसतलो. आमी काजी काडपाक जायना म्हूण आमकां भिवयता आसतलो.

दिनू : माकाय तशेंच दिसता. (उदक पिवपाक वतात.)

राखणदार : रावात उदक पिवू नाकात.

दिनू : राव हा ऽ ऽ हाका पळयतां.

विजू : चल, पयली उदक पिवया आनी मागीरुच ताका पळोंया. (उदक पिवपाक वतात.)

राखणदार : रावात उदक पिवू नाकात.

दिनू : कोण रे तो? आमकां भेशटयता, यो असो फुडे यो.

विजू : (कोयती काडून) यो यो असो फुडें, लायता तुका कोयती आनी काडटा तुज्यो काती. (उदक पिवपाक वतात, परत आवज.)

राखणदार : रावात उदक पिवो नाकात. (रागान दोगूय सगळ्याक पळयतात.)

दागूय : आमी पियातलेच.

(दोगूय तळयेचे उदक पितात, उदक पिल्या उपरांत दोगूंयजाण जमनीर पट्टा. तसो तळयेतल्यान फातरो जादुगार वयर सरता. भायर येता आनी तांडव करीत नाचता.)

जादुगार : हांव मुक्त जालो, हांव मुक्त जालो. ह्या तळयेच्या बंदखणीतल्यान आयज हांव मुक्त जालो. आता हांव अमर जातलों.

राखणदार : ना, तूं अमर केन्नांच जावचो ना.

जादुगार : कोण आडायतलो म्हाका, तू? तुका तर हांवेन म्हज्या ह्या फातरानी बंदिस्त केला. तूं म्हजे कांयच करुंक शकना.

राखणदार : हांव करुंक शकना जायत, पूण केणतरी देव मनीस येतलोच.

जादुगार : देव! तुज्या देव मनश्यानीच म्हाका मुक्त केला, आता हांवूच तुमचो देव. आता पळंय हांव कितें करता.

"बम चिकी चिकी बंम बंम बंम, बंम चिकी चिकी बंम
अगडबंम तगड बंम रानां वनां फातर बंम.
जळी तळी फातर बंम, फातराचे दार उघडम, फातराचे दार उघडम
बम चिकी चिकी बंम बंम बंम, बंम चिकी चिकी बंम''

(मंत्र बडबडीत नाचता तेन्ना फातरांच्या धोलीचे दार उघडटा, जादुगार भीतर वता तशें दार बंद जाता. भायल्यान मन्या, राजू येतात, खाकक कपड्याच्यो पिशव्यो आसात.

मन्या : राजूऽऽ हे दिनू विजू पावले तरी खंय?

राजू : दिनू ऽ ऽ विजू ऽ ऽ (दोगुयजाण उलो मारीत सोदता. तेन्ना दिनू-विजू जमनीर पडील्ले दिसतात. दोगूंय तांच्यालागी धांवतात.)

दोगुय : दिनू विजू उठ उठ.

राखणदार : ते आता केन्नाच उठचे नात.

मन्या : कोणाचो आवाज?

राजू : कोणाचो आवाज (दोगूय भितात.)

राखणदार : तुमी म्हाका पळोवंक शकनांत पूण हांव तुमका पळोवंक शकता. तुमच्या इश्ट तळयेचें उदक पिल्या म्हणोन ते मरोन पडल्यात.

राजू : मन्या ऽ ऽ भूत ऽ ऽ आमी भुतांच्या रानांत पावलेंशे दिसता.

मन्या : आमची चूक जाली आमी हांगा केन्नांच येवचे नात.

राजू : आमच्या मित्रांक जागे करात आमी हांगसरल्यान वयता.

राखणदार : भियो नाकात, हांव भूत बी कोण न्हय.

राज : मागीर कोण तर?

राखणदार : सांगता, सगळें सांगता पूण फातरो जादुगार येवच्या पयली हांगासरल्यान वचोंन खंयतरी लीपोन रावात.

दोगूय : जादुगार ?

राखणदार : हय. (जादुगाराचो आवाज आयकपाक येता.)

दोगूय : कोणाचो आवाज?

राखणदार : फातऱ्या जादुगाराचो, चलात लिपात पयली, फातरो जादुगार येता.

(दोगूयजाण फातरांचे राशी फाटल्यान लिपतात, जादुगार येता.)

जादुगार : ही पळय म्हज्या जादवाची बडी, ह्या तळयेन म्हाका बंदिस्त केल्लो, आता पळय ह्या तळयेकूच बंदिस्त करता, सगळ्यांकूच बंदिस्त करता.

राखणदार : नाका जादुगारा अशें करु नाका, ह्या सैमान रानांतल्या सुकण्या सावदानी तुजे कितें वायट केलां?

जादुगार : कांयच ना, पूण तुवेन वायट केलां न्हय, तूं हांचो राखणदार न्हय. आता राख. आयज अमाशेची रात. मोन जातीचो आनी मनीस जातीचो बळी दिवंन हांव बळीश्ट जातलों. (भायर वता. तशें मन्या आनी राजू भायर येतात.)

राजु : जादुगार गेलो?

मन्या : तो आता परत योवचो ना न्हय?

राखणदार : तो आता बरोच पैस पावला.

राजु : तो जादुगार, मागीर तुमी कोण?

राखणदार : सांगता, सगळें सांगता. हांव रानाचो राखणदार आनी ही तळी म्हणल्यार देव दुतांची पवीत्र तळी. पांडव वनवासाक आसतना तांच्यानी ही पवीत्र तळी निमार्ण केल्ली, आनी वतना तांच्यानी तळयेची जबाबदारी म्हज्या लागी दिल्ली. ही तळी औशदी आसा,

कोणाकूय कसलेंय दुखणें जायत जाल्यार हे तळयेचे उदक पिलें काय दुखणें बरें जाता.

मन्या : तुमी आसतना हे कशें जालें?

राखणदार : हावूंच बंदिस्त आसा ह्या फातरानी. जादुगार ह्या रनांत आयलो, ताका हे रान भावलें, ताणी म्हाका बंदिस्त केलो आनी ही जादवाची फातर गुफा बांदली. जेन्ना तो न्हांवपाक तळयेर गेलो तेन्ना पवीत्र तळयेत बंदिस्त जालो.

राजू : मागीर आमच्या इश्टांचे कितें? हे पळयात, आमची चूक जाली, पूण आमच्या इश्टांक जीते करात.

मन्या : आमकां काजी नाकात.

राजू : आमी हांगा केन्नांच येयना. (रडट्टात)

राखणदार : अशें रडो नाकात, धीट जायात. तुमच्या इश्टांक जीते करपाचे आता तुमच्या हातीन आसा.

दोगूय : आमच्या हातीन ते कशें?

राखणदार : सांगतां आयकात. (सगळे मोन्यानी आयकता अशे भासोवपाचे) कळ्ळें?

दोगूय : हय, आमी आमच्या इश्टांक सोडयतलेच, जादुगाराच्या बंधनातल्यान सगळ्यांक मुक्त करतलेच.

राखणदार : चलात बेगीन लिपात, फातरो जादुगार येता. (दोगूय लिपतात, भायल्यान फातरो जादुगार येता.)

जादुगार : आयज अमाशेची काळखी रात, म्हज्या जादवान हांवे सगळशो शीमो बांदल्यात, आता कोणूच भायलो भितर योवचो ना आनी भितरलो भायर वयचो ना. कोणीं तशें करीत जाल्यार ताचो गोबर जातलो. (हांसता) म्हाका बंदिस्त करपी तळ्या आता तुकांच बंदिस्त करता.

"बम चिकी चिकी बंम बंम बंम, बंम चिकी चिकी बंम
अगडबंम तगड बंम रानां वनां फातर बंम.
जळी तळी फातर बंम, फातराचे दार उघडम, फातराचे दार उघडम
बम चिकी चिकी बंम बंम बंम, बंम चिकी चिकी बंम''

(काळोख)

## दुसरो देखाव

(माचयेर उजवाड, राजू मन्या म्हणीत नाचतात.)

दोगूय : "बम चिकी चिकी बंम बंम बंम, बंम चिकी चिकी बंम
अगडबंम तगड बंम रानां वनां फातर बंम.
जळी तळी फातर बंम, फातराचे दार उघडम, फातराचे दार उघडम
बम चिकी चिकी बंम बंम बंम, बंम चिकी चिकी बंम''

(गुहेचें दार उघडटा, मन्या भितर वता आनी जादुची बडी घेवन येता.)

मन्या : राजू ही पळय जादुगाराची ताकद.

राजू : हांगा दी तीका, उडयता मोडून.

राखणदार : रावात, रागाच्या भरात किंतेंय करु नाकात. जो मेरेन ही बडी तुमच्यालागी आसा तो मेरेन जादुगार तुमचे कांयच करचो ना. पूण जादुगाराक भियोन वचू नाकात. चला लिपात फातरो जादुगार येता.

(दोगूय लिपतात, जादुगार दोन जनांवरांक घेवन येता.)

जादुगार : अमाशेच्या काळख्या रातीचो आयज हांव धनी, जादवान करतलो सगळ्यांक हानी. चलात अशे उभे रावात.

जनावर १ : नाका, आमकां मारु नाका.

जनावर २ : तू सांगता तें आमी करतां.

जादुगार : म्हज्या राज्यात कोणाकूच ना शरण, सगळ्यांक मेळटलें मरण.

"बम चिकी चिकी बंम बंम बंम, बंम चिकी चिकी बंम
अगडबंम तगड बंम रानां वनां फातर बंम.
जळी तळी फातर बंम, फातराचे दार उघडम, फातराचे दार उघडम
बम चिकी चिकी बंम बंम बंम, बंम चिकी चिकी बंम"

(जादुगार गुहेत वता आनी रागान भायर येता)

जादुगार : म्हज्या जादवाची बडी ना, कोणे व्हेली म्हज्या जादवाची बडी? कोण आसा ह्या रानांत, सांग राखण्या कोण आसा? नाजाल्यार तुजो जाळून गोबर करता.

(राजू मन्या येतात)

दोगूय : आमी आसात.

जादुगार : तुमी कोण?

दोगूय : आमी तुजे मरण.

जादुगार : म्हजें मरण? (हांसता) म्हाका मारपी ह्या जगांत कोणूच ना, तुमी म्हजे कांयच करुंक शकनात.

मन्या : ही पळय तुज्या जादवाची बडी.

जादुगार : बडी हांगा दी, नाजाल्यार तुजो गोबर करता.

राजू : बडी आमच्यालागी आसा. तुजो जादु आमचेर चलचो ना.

राखणदार : उलंयत रावो नाकात. बडी मोडून उडयात.

जादुगार : नाका नाका अशें करु नाकात. (मन्या बडी मोडटा तसो जादुगार जमिनीर पट्टा)

जादुगार : (हांसता) म्हाका मारप इतलें सोपें ना, आनी म्हज्या जादवांन बदिस्त जाल्ल्या रानाकूंय सोडवप शक्य ना. त्या खातीर मंत्र जाय.

दोगुय : आमी मंत्र जाणात.

जादुगार : तुमी मंत्र जाणात. कोणी दिलो हो मंत्र तुमकां?

मन्या : तुवेन... पळय आता आमी कितें करता.

"बम चिकी चिकी बंम बंम बंम, बंम चिकी चिकी बंम
अगडबंम तगड बंम रानां वनां फातर बंम.
जळी तळी फातर बंम, फातराचे दार उघडम, फातराचे दार उघडम
बम चिकी चिकी बंम बंम बंम, बंम चिकी चिकी बंम''

(मंत्र म्हण्टात तशें गुहेचे दार उघडटा, जादुगाराक गुहेत घालतात आनी मोडील्ली बडी गुंहेत उडयतात)

राखणदार : गुंहेचेर पवित्र उदक उडयात.

(राजू आनी मन्या तळयेतले उदक गुहेचेर उडयतात, तशी गुहा कोसळटा आनी तातूंतल्यान राखणदार भायर येता. दुसरे वटेन विजू-दिनू जीते जातात.)

राखणदार : अशें पळयतात कितें? तांकां पळयात.

दोगुय : विजू-दिनू (धांवत वचोन दोगाकूय वेंग मारतात.)

मन्या : तुमचे खूप उपकार जाले.

राजू : तुमी वाट दाखयली म्हूण आयज आमचे इश्ट आमकां मेळ्ळे.

राखणदार : उपकार तर तुमी आमचेर केल्यात, ह्या रानाक मुक्त करुन.

विजू : आमचे चुकले, आमी तुमचें आयकुपाक जांय आसलें.

राखणदार : तुमची इश्टागत पळोवन हांव खूश जालों. जो इश्ट संकटाच्या वेळार पावता तोच खरो इश्ट. तुमच्या मैत्रीची काणी हांव आता सगळ्यांक सांगतलो. इश्टानो एक गजाल मतीत दवरात, झांडां पेडांक मुक्या जनावरांक भावनां आसतात तांका दुखोंव नाकात. तुमी जगात आनी दुसऱ्याक जगपाक दियात.

(सोपता)

## मनीसपण कृथार्तम्
## जीण सुखार्तम्
### पयलो देखावो

(रंगमाचयेर उजवाड, राजवाड्याचो देखावो, राजाचे सिंहासन आनी बसका आसा. दारार पहारेकरी आसात. मंत्रीगण राजाची वाट पळयतात)

प्रधानजी : महाराजान इतल्या तातडीन कित्याक आफयल्यात?

सेनापती : आमकांय तोच प्रस्न पडला.

सरदार : कसले संकट तर योंवक ना न्हय राज्याचेर?

प्रधान : म्हाकाय तोच दुबाव मारता. नाजाल्यार इतल्या तातडीन आमकां आफोवपाचें कारण कितें?

सेनापती : कितें तरी कारण आसपाक जाय, नाजाल्यार महाराज तातडीन कित्याक आफयतले आसले?

सरदार : बरोबर आसा. चार दीस पयलीच तर महाराजान बसका आफयल्ली.

प्रधान : म्हाका युध्दाचो दुबाव लागता.

सगळे : म्हणजे?

प्रधान : युध्दाची आखणी करपाखातीर तर महाराजान आफोंक ना न्ही?

सेनापती : तुमकां असो दुबाव आसा कांय कितें?

प्रधान : फाटले दोन दीस राजा सैन्य घेवन राज्यांत भोवताले.

सेनापती : महाराज येवपाचो वेळ जाला. कितें तें कळटलेंच.

प्रधान : हंय आमी तर्क वितर्क कित्याक करुया.

दवंडीवालो : बा अदब ऽ ऽ ऽ बा मुलाहिजा, होशीयार राजाधीराज महाराज पुण्यवंत, किर्तीवंत, धिटवंत, न्यायवंत, प्रजादक्ष, विक्रमादित्य, जैतीवंत, महापराक्रमी महाराज देवेंद्रराणा येतात हो ऽ ऽ ऽ (महाराज येतात. फाटल्यान दोन शिपाय आसात)

सगळे : महाराजांचो विजय आसों, महाराजांचो विजय आसों.

प्रधान : महाराज, तुमच्या न्यायधिश्टेची पराक्रमाची सगळे राज्य तोखणांय करतात.

सेनापती : तुमचेर येवपी दर एका संकटाक तोंड दिवपाक आमी तयार आसात.

सरदार : महाराज तुमी फकत आदेश दियात, दुस्मानाचे एक घाव दोन तुकडे जातले म्हण समजात.

महाराज : रावात, म्हाका तुमच्यो भावनां समजतात. तुमकां सगळ्यांक प्रश्न पडला आसतलो की अशें कितें घडलें जाका लागोन महाराजान तुमकां तातडीन आपयले?

प्रधान : हय, महाराज, प्रस्न तर आसात, पूण कारणा बगर तुमी आफोवचे ना, ही खात्रीय आसा.

महाराज : प्रधानजी, तशें व्हड कारण ना, पूण म्हाका तुमचेर एक व्हड काम सोपोंवपाचे आसा.

सेनापती : सांगात महाराज, आमी कसलेंय काम करपाक तयार आसात.

प्रधान : तुमी फकत आदेश दियात, तें पुराय करपाक आमी कसलीच कसर सोडचेनात.

महाराज : म्हाका तूमचेर विश्वास आसा आनी त्या विश्वासाचेरूच हांवें तुमचेर एक व्हड काम सोपोंवपाचो निर्णय घेतला.

सरदार : सांगात महाराज.

महाराज : म्हजो एक राजा म्हूणोन सगळेच लोक म्हजेर मोग करतात. म्हजें उतर जनकौल मानतात. पूण एक सामान्य मनीस म्हूण म्हाका मान आसा काय कितें? तें म्हाका पळोंपाचें आसा.

प्रधान : महाराज आमी समजोंक ना.

महाराज : आयच्या युगांत सत्यप्रणीत, प्रामाणिक, मनस्वी, दयाळू मनीस मेळपाक भोव कुस्तार जालां. म्हज्या राज्यांत म्हाका अशाच एका मनश्याचो सोद घेवपाक जाय. जो म्हजे खाजगी काम एक निश्ठेन, प्रामाणीकपणान आनी विश्वासान करुंक शकता.

प्रधान : महाराज, राज्यातलें सगळे लोक तुमचेर मोग करतात. एक निश्टेन आपापली कामां करतात. राज्यांत ना कसली झगडीं ना वाद.

महाराज : इतलें जरी आसले तरी प्रामाणीक पणाच्या, विश्वासाच्या परिक्षेत मनीसपाणाचो सोद म्हाका घेवपाचो आसा.

प्रधान : महाराज आमच्या खातीर कितें आज्ञा आसा?

महाराज : काय दिसा खातीर हांव एका खाजगीं मोहीमेचेर वतां, तो मेरेन म्हज्या गैरहजेरीत तुमी राज्याकडें लक्ष दवरचे.

सेनापती : पूण महाराज तुमच्या बगर....

महाराज : तशें म्हजे लक्ष राज्याकडे आसतलेंच, पूण ताचो ठाव तसो कोणाकच लागचो ना.

प्रधान : महाराज तुमी निश्चिंत रावात.

महाराज : म्हाका तुमचेर विश्वास आसा. येता हांव.

सगळे : जी महाराज. (महाराज वता सगळे मुजरो करतात)

(काळोख)

## दुसरो देखावो

(माचेर तीन देखावे एका फाटल्यान एक सुरु जातले. पयलो देखाव शेटीचे घर, पेठ, मुडयो, साकाच्यो भरिल्ल्यो पिशव्यो आसात. शेट बाकार बसोंन हिशेब करता. एक कामगार पेठयो उखलून भायर व्हरता. तेन्ना राजा भेस बदलून म्हाताऱ्याच्या भेसान थंय येता.)

शेट : ये ऽ ऽ ऽ सावळ्या पेठयो सारख्यो उखलून बैल गाडयेंत घाल. सामानाक कितें जायत जाल्यार तुजे पैशे कमी करतलों.

कामगार : जी शेटजी, खबरदारीन काम करतां. (राजा येता)

राजा : शेटजी ऽ ऽ शेटजी ऽ ऽ शेटजी ऽ ऽ

शेट : कोण रे तूं? आनी हांगा कित्याक आयला.

राजा : शेटजी हांव रामा, पलतडचो. कामा खातीर गांव भोंवता. कितें काम आसत जाल्यार सागांत.

शेट : तूं रे बाबा कसलें काम करतलो?

राजा : तुमी सांगता तें काम करपाक तयार आसा.

शेट : अशें ऽ ऽ तशें जाल्यार ह्यो साकाच्यो पोटल्यो गाडयेन घाल, एके पोटले फाटल्यान एक आणो दितलों.

राजा : बरें शेटजी, तुमकां जाय तशें.

शेट : पूण पोटलेक कितें जायत, जाल्यार पैशे उणे जातले.

राजा : बरें (राजा पांच पोतयो भायर व्हरता, शेटजी हिशोब करता) शेटजी, साकाच्यो सगळ्यो पोटल्यो वेवस्थित दवरल्यो, आता म्हज्या कामाचे पयशे दियात.

शेट : कितल्यो पोटल्यो घातल्यो?

राजा : पांच.

शेट : पांच? तूं पयले फावट कामाक आयला न्ही, तेन्ना शास्त्रपध्दतीन पयलो मान देवाचो.

राजा : म्हणल्यार ?

शेट : पयले पिशवेचे पैशे देवाक अर्पण, (एक आणो कुशीक दवरता) तुका हावेन काम दिलां ताका लागोन सवलीतीच्या कोतार एक आणो म्हाका. (एक आणो कुशीक दवरता) तुवेन साकाच्यो पिशव्यो उकलताना म्हज्या कामगाराची मदत घेतली म्हूण, कायद्यान हो एक आणो ताका फावो जाता. (एक आणो कुशीक दवरता) आता हे उरील्ले दोन आणे तुज्या कामाचे. हे घे पयशे.

राजा : शेटजी ऽ ऽ म्हजेकडल्यान काम करुन घेतलें पांच आण्याचें आनी आता मोल दिता दोन आण्याचें.

शेट : बरोच उलयतारे तूं, तुज्या म्हातारपणाक पळोंन एक तर तुका काम दिवन तुजेर उपकार केले आनी तूं चड उलयता, वच हांगा सरलो. (राजा वता)
(देखाव दुसरो, राजा एका श्रीमंताच्या घरात वता)

राजा : घरात कोण आसा, घरात कोण आसा.

बायल : (घरातल्यान एक बायल येता) कितें जाला आनी कोण रे तूं?

राजा : हांव दादू, माई थोडे उदक मेळटले पिवपाक, तान लागल्या.

बायल : कितेंऽऽ उदक? तुज्या सारख्या वाटेवेल्यांक उदक दिवपाक आमी हांगा आसात काय कितें? उदक ना, मुखार वच.

राजा : माई अशें करु नाकात, तानेन गळो सुकोन आयला, थोडें उदक दियात. (घरातल्यान दादलो येता)

दादलो : कितें रे, उदक कितें फुकट मेळटा. बरे पयशे फारीक करचे पट्टा.

राजा : पूण महाराज देवेंद्रराणाच्या राज्यात तर सगळ्यांक उदक फुकटच मेळटा.

बायल : मागीर खंय फुकट मेळटा थंय वच आनी जाय तितलें पी उदक.

राजा : अशें करु नाकात, खूप तान लागल्या थोडे उदक दियात उपकार जातले.

दादलो : आता तूच आमचेर उपकार कर हांगासरल्यान वचोन. वच पयली वच. गरीब जांवन श्रीमंतागेर उदक मागपाक येता. वच हांगासरल्यान. (राजा वचपाक लागता)

राजा : वा रे देवेंद्रराणा महाराज आनी धन्य तुजी प्रजा, आताच कळ्ळें उदकाकूय लायकी लागता म्हण.

(राजा चलत तीसऱ्या देखाव्यान पावता. लोक आसा. एक कुश्टरोगी मनीस

रस्त्यार तळमळटा, लोक ताका पळयत उभे आसात)

राजा : कितें जाला? ही गर्दी कसली?

एक : काय ना, मजा पळयताले.

राजा : कसली मजा.

एक : यो यो तुच पळय. तुजोच भाव कसो दिसता. (राजा मुखार सरता तो कुश्टरोगी ताका जमिनीर दिसता, राजा ताच्या म्हऱ्यात वता)

राजा : कितें जाला तुमकां, तुमी अशें कापतात कित्याक?

दोन : ये म्हाताऱ्या ताच्या लागी वचो नाका तुकाय रोग जातलो.

राजा : तुमकां कितें मनीसपण आसा काय ना? हो मनीस हांगा तळमळटा आनी तुमी ताका मदत करची सोडून ताची मजा पळयतात.

तीन : ताका मदत करुन आमकांय मरपाचे ना. तूं करता जाल्यार कर.

चार : तशें पळोंवंक गेल्यार तुजेंय पान पीकलाच.

एक : मदत करुन तुका मरपाचें आसा जाल्यार तूं कर आनी मर, आमकां भितर ओडूं नाका, चलात रे. (सगळे वतात)

राजा : ह्या लोकांक मात लेगीत मना ना. उठात बाबा, हांव तुमकां वैद्यालागी व्हरता, चलात. (हातीक धरुन म्हाताऱ्याक उठयता आनी व्हरपाक लागता)

(काळोख)

## तीसरो देखावो

(गांवांलागच्या माळवेले द्रुश्य, झांडां आसात, एक तरणाटो चलत येता, हातात गाठोडे आनी खानार पिशवी आसा)

तरणाटो : चलोन चलोन पांय भरोन आयले. कामाखातीर सकाळीच भायर सरिल्लो पूण कामूच मेळोक ना. आता तर दनपार जाल्या आनी भुकूय खूप लागल्या. ह्या झांडांच्या सावळेक बसोन आईन दिल्या ती भाकरी पयली खावन घेवया आनी मागीरूच मुखार सरोया.

(तरणाटो शिदोरी उघडून खावपाक सुरुवात करता तेन्ना सुकणीं येतात आनी तेका पळयत रावतात.)

तरणाटो : तुमकां भूक लागल्या? लागल्या आसतली न्हय, आमकां मनीस जातीक भूक लागता तशी तुमकांय भूक आसा. घेयात खायात. म्हजे आईन जे म्हाका दिला तेच तुमकांय दिता. घेयात खायात पोट भरुन खायात. (तरण्याटयाचे उलोवप सुरु आसतना थंय राजा येता आनी सगळें झांडांआड रावोन पळेयता. तरणाटो सुकण्याक भाकरीचे कुडके घालता)

तरणाटो : मोनजात जाली म्हूण कितें जालें, भूक ही सगळ्यांक सारखीच न्हय. (सुकणीं

खावन वतात. तो परतून भाकरी खावपाक बसता तेन्ना सुणें येतात)

तरणाटो : तुमकांय भूक लागल्या? घेयात खायात, पोट भरुन खायात. (भाकरीचे तुकडे सुण्यांक दिता, सुणे खावन परत वतात. तरणाटो उरिल्ली शिदोरी खावपाक बसता तेन्ना राजा म्हाताऱ्याच्या वेशान ताच्या मुखार येता)

राजा : पुता कितें खावपाक मेळटलें? खूप भूक लागल्या, दोन दीस जाले कांयच खावंक ना.

तरणाटो : यो बाबा यो बस. हे घे खा. म्हज्यालागी हें इतलेंच उरला, ह्या शिदोरीतलें थोडे हावेन सुकणीं आनीक सुण्यांक दिले, हे जे उल्ला तें तुमी खायात.

राजा : आनी तुका?

तरणाटो : हांव बरो धड धाकड आसा, एक दीस खांवक ना म्हूण म्हाका कांयच जावपाचें ना. म्हज्या परस ह्या भाजी - भाकरीची तुमकां चड गरज आसा, घे खायात, मनांत कसलो दुबाव धरीनासतना खायात. (राजा ताका पळयत-पळयत खाता, तरणाटो ताका उदक दिता)

तरणाटो : बाबा उदक पियात.

राजा : देव बरें करु, तुजे नांव कितें? तू हांगा कितें करता?

तरणाटो : म्हजे नांव रामा, रामापूर गांवांतलो, म्हजा घरच्च्यार्चें पोट भरपाखातीर हांव कामा निमतान गांवांचे गांव भोवतां. पूण आयज म्हाका कामूच मेळोंक ना. काम ना जाल्यार खाण ना, दिसवड्याचे आमचे पोट. बाबा तुमी खंय वतात?

राजा : हांव त्या आलतडच्या गांवांचो, कामाखातीर ह्या गांवांत आयल्लो, पूण कामूच मेळोंक ना. म्हातारपणान आता चलपाकूंय जायना, कितें करु?

तरणाटो : बाबा हांव तुमकां घरा पावयता.

राजा : नाका नाका, तुका त्रास कित्याक, हांव वयता हळुहळू.

तरणाटो : हातून त्रास कसलो, दुसऱ्यांच्या अडी अडचणीक जो पावता तोच खरो मनीस. चलात हांव तुमकां घरा पावयता.

राजा : बरें. (तरणाटो राजाक घेवन वता)

(काळोख)

## चौथो देखावो

(राजदरबाराचो देखाव. राजा तरणाट्याक घेवन राजवाड्याकडे येता)

राजा : यो पूता यो यो. पावलो हांव.

तरणाटो : बाबा, हो तर राजवाडो, तुमी हांगा रावतात?

राजा : सांगता, सगळें सांगता, तूं हांगाच राव, हांव रोकडोच येतां.

तरणाटो : बरें बाबा. (तरणाट्याक भायर दवरून राजा राजदरबारांत वता)

राजा : शिपाई ऽ ऽ

शिपाई : जी महाराज !

राजा : वच आनी प्रधानजीक, सेनापती, सरदार हांकां तातडीन दरबारांत घेवन यो.

शिपाई : जी महाराज. (एक शिपाई वता. दुसऱ्याक)

राजा : वच आनी भायर जो तरणाटो उबो आसा तेका मानान दरबारांत घेवन यो.

शिपाई : जी महाराज. (शिपाई भायर वता, राजा दरबारांत वता. शिपाय तरणाट्या लागी वता)

शिपाई : प्रणाम महाशय.

तरणाटो : प्रणाम.

शिपाई : तुका महाराजान राजदरबारान आपयला.

तरणाटो : महाराजान? पूण हांवेन कांयच करुंक ना, हांव वतां.

शिपाई : हें पळयात, अशें भियो नाकात, महाराजान तुमकां व्हडा मानान आदरान राजदरबारात आपयल्यात, येयात.

तरणाटो : म्हाका आनी मान? बरें चल.

(शिपाई तरणाट्याक राजदरबारात घेवन येता)

तरणाटो : (तरणाटो राजदरबार पळयता) कितलो सुंदर राजदरबार, दोळे दिपकांवन वतात, म्हज्या सारख्या गरीबाक राजदरबार पळोंवक मेळप हें म्हजें व्हडलें भाग्यच. त्या बाबाच्या धर्मान म्हाका हें भाग्य लाभलें, तांचे जितके उपकार मानप तितले थोडेच. (राजा येता)

राजा : उपकार तर तुवेन म्हजेर केल्यात.

तरणाटो : (राजाक पळयत) बाबा तुमी? आनी महाराजांच्या भेसान?

राजा : खरें म्हणल्यार हांव बाबा न्हंय, तर हावूंच महाराज.

तरणाटो : कितें? महाराज म्हाका माफ करात. म्हजें चुकलें. हांव तुमकां वळखोक ना. (तरणाटो राजाच्या पांयार घालून घेता)

राजा : अशें कितें करता, उठ. म्हाका तुज्या सारख्या मनशाची गरज आसली.

तरणाटो : म्हणजे?

राजा : सांगतां, म्हजे खाजगी काम पळोंपा-खातीर म्हाका एक प्रामाणीक, विश्वासू

मनश्याची गरज आसली, जो मनीस मनीसपण जाणा. मनश्याक मनीसपणाची वागणूक दिवपी, कश्टकरू, प्रामाणीक, विश्वासू मनश्याच्या सोदांत हांव भेस बदलून गावो गांव फिरतालों, गांवांचे गांव फिरलो म्हाका जाय तसो एकूय मनीस मेळोंक ना, आनी निमणो तू मेळ्ळो.

तरणाटो : महाराज हांव गरीब मनीस.

राजा : तूं गरीब न्हय, तू प्रामाणीक मनीस विश्वासू मनीस आनी मुख्य म्हणल्यार मनीसपाणाचे व्हड धन तुजालागी आसा. मागीर तूं गरीब कसो?

तरणाटो : पूण महाराज.

राजा : तुजासारख्या मनशाची राज्याक गरज आसा.

(प्रधान, सेनापती, सरदार येतात)

सगळे : महाराजांचो विजय असो.

राजा : मंत्रीगण, ज्या सोद मोहीमेचेर हांव गेल्लो ती मोहीम पुरांय जाली.

प्रधान : महाराज, तुमची मोहीम बेगीतल्या बेगीन पूराय जावची हाका लागून आमी सगळे जाण देवालागी प्रार्थना करताले.

राजा : प्रधानजी, देवान तुमची प्रार्थना आयकली, हो पळयात रामा. आयज सावन हो या राज्याचो खाजगी मंत्री.

सेनापती : महाराजांचो विजय असो.

राजा : आनी एक, गरीबांक त्रास दिवपी लोकाचो सोद घेवन तांचेर कडक कारवाय करात.

प्रधान : जी महाराज.

राजा : रामा, तुज्या कुटुबासयत तुवें मंगळवाडशार रावो येता.

तरणाटो : महाराज, तुमी नेमिल्ल्या कामाक आळस करचो ना. जगतलो राज्याखातीर आनी मरतलो राज्याखातीरुच.

राजा : म्हाका तुमचेर पूराय विश्वास आसा, तुमी चारजाण म्हणल्यार म्हज्या राज्याचे चार खामे आसात.

प्रधान : महाराज, तुमचो विश्वास आमचे बळ आसा, तेका केन्नांच तडो वचपाक दिवचे नात.

राजा : देव तुमकां सुखी दवरु.

सगळे : महाराजांचो विजय असो, महाराजांचो विजय असो.

(सोपता)

## नितळ गांव सोबीत गांव

### देखावो पयलो

(गांवचो देखावो, न्हंय, न्हंयच्या मदल्या भागात बायलां कपडे धुतात, थोड्या अंतरात भुरगे न्हांतात, न्हंयक तेकोन उदकाचो झरो आसा, त्या झऱ्याचेर बायलां पिवपाखातीर उदक भरतात)

सुत्रधार : अमृताचो झरो पांचवोगार झेलो, गांव तसो बरो कारण फुकट मेळटा तांका पालो. खळखळटा गांवांत झरो, फुकट्या जलराजाचो रिकामो सदांच पेलो. ना नियोजनाचो हांगा थारो, फुकट्या मरणाक मारता गांव उलो.
असो हो गांव. फुकट्याची ना किंमत आनी जेची आसा किंमत ते मेळना फुकट. अशी ह्या गांवांची आगळी वेगळी काणी. देवाची करणी म्हणोन धरतरेर पाणी, पाण्यान घडल्या गांवची काणी. (देखाव सुरू जाता)

बायल १ : (कपडे धुतना) आगो आयकलां?

बायल २ : कितें ते?

बायल १ : आगो ..... ह्याच्या चेडवान शॉण मगो खाल्लां.

बायल २ : शी बाये, शॉण कित्याक खावपाक जाय आसलें, घरात जेवपाक मेंळना काय कितें?

बायल १ : बरां लागलां आसतालां.

बायल २ : शी ऽ ऽ तुका कशें कळ्ळें, शॉण बरें लागता तें, तुवेन केन्नां खाल्लां काय कितें?

बायल १ : कायच्या काय बोला नको, मुस्काट फोडून थेंयतलंय.

बायल २ : तुच म्हण्टा मगो, शॉण खाल्ले म्हूण.

बायल १ : आगो शॉण म्हणजे, आकवार वयातच आवय जालां.

बायल २ : अशें ऽ ऽ ऽ मागीर सरळ सांग मगो शॉण काय शॉण.

बायल १ : आगो ताच तां शॉण.

बायल २ : अशें, म्हाका काय थाया? मी बाये हांगा नया. (दोगाय हांसतात)

बायल १ : चल बेगीन बेगीन कपडे धू, माय आड्यो मारतली.

(बायलांचे संभाशण सुरू आसतना राखणो आपल्या गोरवांक न्हंयत धूता. एक दोगजाण योवन न्हंयत कोंयर उडयतात)

एक : ही न्हंय आसा म्हूण गांवांत बरी जाल्या, कोंयर तरी उडोंक मेळटा. नाजाल्यार हो हॉटेलातलो कोंयर सदांय खंय म्हूण उडोवपाचो, न्हयंत उडयलो काय गेलो व्हांवोन. ना कसली हळशीक. (न्हंयत कोंयर उडयतात आनी वतात)

(झरीचेर बायला उदक भरतात)

बायल १ : आरे पोरानो, सावकाश न्हांयात झऱ्याचां पाणी खदूळ जाता.

बायल २ : येल्लो गेल्लो ह्या न्हयंतत मरता.

बायल ३ : चल चल उदक भर बेगीना, झरी खदूळ जायत चल्ल्या.

(बायलां उदक भरीत आसताना भुरगे न्हंयतल्यान वयर सरतात)

भुरगो १ : राम्या फाटीक खाज येता.

भुरगो २ : म्हाज्यातर सगळ्या आंगाक खाज येता.

भुरगो ३ : म्हाजी तर तकली जड जाली आनी दोळेंय दुखपाक लागल्यात.

भुरगो १ : दुखतलेच, म्हुणोन तुका सांगतालो, उदकात भितर परत परत बुचकळ्यो मारु नाका म्हुणोन.

भुरगो २ : चल या आता घरा.

सुत्रधार : अशी ह्या गांवची स्थिती. जो तो गांवच्या न्हंयचेर उठला. गांवची सगळी घाण न्हंयत. दोळे आसोन कुड्डे जाल्यात, कानान आयकोन भेड्डे जाल्यात, आसोन पाय थोटे जाल्यात, देव असो देव दिसना, उदकाचो हांका अर्थ कळना, गांवची घाण न्हंयत व्हांवयतना हांका कायंच कशें दिसना? न्हंयच्या उदकार जीण जगयतानां, न्हंयच्या उदकार गांव सजयतानां, कोणाकूच तिची किवं कित्याक काय येना? म्हणटात न्हय, मेल्या शिवाय स्वर्ग दिसना आनी कितें घडल्या शिवाय खंय वळन लागना.

## देखावो दुसरो

(माचेर तीन देखाव. एका फाटल्यान एक दाखववपाचे, पयलो देखाव, एक भुरगो फणी घेवन फाट खाजयता)

भुरगो : आई ऽ ऽ आई खाज थामना मगो, एकसारखी खाजच पट्टा. (खाजयता)

आई : रानांत खंय बारूंक गेल्लो जाल्यार खाजकुली भरल्या आसतली.

भुरगो : ना गो. आमी रानांत केन्नाच वचनात.

आई : मागीर खंय वतात तर.

भुरगो : न्हंयचेर सदांच न्हांवपाक मात वयतात.

आई : न्हंयत न्हालो म्हूण कोणाक कितें खाज पट्टा? तुका खाजकुली लागल्या आसतली, राव तुका तेल लायतां.

भुरगो : (खाजयता) हाय ऽ ऽ हाय ऽ ऽ हाय ऽ ऽ खाजच पट्टा.

आई : राव तेल लायतां.

(देखावो दुसरो. एक दादलो चादर कामरुन कुडकुडटा. बायल उदकाची घडी घालता)

बायल : आता उदकाच्या इतल्यो घडयो घालून सुद्दा ताप मात कमी जायना.

दादलो : कितें जाता तेंच कळना, एक सारखी कापरीच भरता.

बायल : जाय ते उपाय केले पूण ताप कमी जायना, आता कितें करु कांयच कळना.

दादलो : आनी एक चादर घाल थंडी लागता.

देखावो तीसरो (घरांतलीं सगळीजाणां खोकतात)

दादलो : (खोकली काडीत) जीव वंयर सकयल जाता खोकताना.

बायल : गांवांत चडश्या लोकांक खोकलेचो त्रास आसा. (खोकता)

दादलो : कितें जालां गांवात तेंच कळना, दोतराकडे जावया फाल्यां.

बायल : जावया, पूण फाल्यां दोतोरूच गांवांत येवपाचो आसा.

दादलो : हे खोकलेन जीव वयता असो जाता.

बायल : कितें करपाचें, सगळ्या गांवांकूच हो त्रास जाता.

दादलो : देवा वाचय ह्या संकटातल्यान.

सुत्रधार : मनश्याची करणी मनश्याक बादली, देवगतीचे चक्र फिरलें, गांवांचेर व्हड संकट आयलें. दुयेसानी गांवांक पोखरून सोडलें, कितें घट्टा कोणाकूच कळना, जो तो आपल्या दुखण्याक रडटा, देवाचो एक सारखो धावो करता, मनश्याची करणी मनश्याक बादता.गंगाळ गांवच्या दुखण्याची बातमी वाऱ्यार पसरली, वाऱ्यावयल्या बातमीतल्यान सरकाराक जाग आयली, देवाक मारिल्ल्या उल्याची बोला फुलाक गाठ पडली आनी तपासणी करपाक लोंकांची रांग लागली.

## तिसरो देखावो

(तपासणी करुन घेवपाक दोतरालागी लोकांची गर्दी आसा, दोतर लोंकांक तपासतात)

'ही गुळी घे, ही वखदां घेवपाचीं.

(थोड्या लोकांक तपासून जाल्या उपरांत दोतोर गांवच्या सरपंचाक आपयता. थंय पंचायतीचे हेर वांगडी आसात, दोतोर सगळ्याक सांगता)

दोतोर : सरपंच, हांव जें कितें सांगता तें लक्ष दिवन आयकात. गावांत पसरिल्ली रोगराय ही एकाच तरेची ना, वेगवेगळी जी दुयेसा लोंकाक जाल्यांत ताची वेगवेगळीं कारणांय आसात, पूण महत्वाचे आनी सगळ्या दुयेसामदी एक सारखे जे मुखेल कारण आसा ते म्हणल्यार उदकाचे. दुशींत उदकाक लागूनूच ही वेगवेगळीं दुयेसां गांवांत चड प्रमाणात पसरल्यांत. तांकां लागुन जें उदक तुमी पितात त्या उदकाची तपासणी करप गरजेचें आसा. जे उदक तुमी घरांत वापरतात त्या उदकाचो जागो दाखयात.

(काळोख)

## देखावो चौथो

(न्हंयचो देखाव, गोरवां न्हंयत धुतात, बायलां कपडे धुतात, भूरगे न्हांतात, झऱ्याचे उदक भरप सुरू आसा, तेन्ना दोतोर, सरपंच आनी हेर वांगडी थंय येतात)

सरपंच : दोतोर आमी ह्या झऱ्याचे उदक घरांत वापरतात. रावात. उदक भरू नाकात. म्हाका ह्या उदकाची तपासणी करपाक जाय.

(दोतोर आपल्या बॅगेतल्यान ल्हान ट्यूब बोटल काडून उदक तपासपाचो प्रयोग करता)

दोतोर : तुमी जें उदक तुमच्या घर जीणेंत वापरतात ते एकदम दुशींत आसा आनी ह्याच उदकाक लागोन गांवांत दुयेंसा चड प्रमाणात पसरल्यांत.

सरपंच : आमी तर नीतळ झऱ्याचें उदक पितात.

दोतोर : हाका तुमी झरो म्हण्टात. हे उदक तर न्हंयचे, वयल्यावर जीरोन आयिल्लें उदक आसा. झरो नितळ दवरतले जाल्यार पयली न्हंय नितळ दवरपाक जाय. हे पळयात, न्हंयत तुमी गोंरवां धुतात, कपडे धुतात, आयदनां घासतात, गांवांतलो कोंयर, घाण तुमी न्हंयत उडयतात. 'ऐ कोंयर उडोंव नाकात' ह्या घाण जाल्या उदकांत

तुमची भूरगीं न्हातात. 'ऐ भुरग्यानो वयर येयात' आनी हें दुशीत जाल्लें उदक तुमी घरांत वापरतात. मागीर सांगात, दुयेंसा जावची नात, तर कितें जातले?

सरपंच : दोतोर आयज तूमी आमचे दोळे उघडल्यात, आमकां हातुतलें कांयच खबर नासले, आता तुमीच सांगात आमी कितें करचें?

पंच : तुमीच आमकां वाट दाखयात.

दोतोर : ह्या उदकाक लागोन जावपी दुयेसांक पयस दवरतल्यात जाल्यार ही न्हय पयली साफ करात. न्हंयची साफ सफाई करात, धुवपाक-घासपाक लागपी उदक घेवन न्हंय भायर सगळें करात. न्हंयत कोंयर उडोंव नाकात. झऱ्याचें उदक पिवच्या परस, न्हंय कडल्यान दिडशें-दोनशें मिटराचेर बायचें बांधकाम करात आनी घरांत उदक वापरात. जाता तींतलीं गांवांत नितळसाण दवरात आनी सुखी जीण जगात.

सरपंच : दोतोर तुमी दाखयल्या वाटेन आमी चलतले आनी आमच्या गांवांक सुखी निरोगी दवरपाचो यत्न करतले. ह्या शुभकार्याची सुरुवात आमी आतासावनूच करतांत.

"गांव आमचो वाटोंवया, नितळसाण आमी राखुंया. दुयेसांक पयस करीत जिवीत आमचे फुलोंवया''

सुत्रधार : अशा तरेन गांवची जीवनदायनी पानुळी न्हंय नितळ जाली. गांवांत नितळसाण आयली, रोगराय पयस जाली आनी गंगाळ गांवांक नितळ सोबीत गांव म्हुणोन राज्य सरकाराचो 'स्वच्छ सुंदर गांव' पुरस्कार फावो जालो.

(सोपता)





दुर्गेश चंद्रकांत माजिक

- शिक्षण: बी.ए., एम.ए., बी.एड्., एम.फिल, डि.एड् (विशेश शिक्षण).
- पेशान शिक्षक (विशेश शिक्षण) संजय सेन्टर फॉर स्पेशल एज्यूकेशन पर्वरी, गोंय हांगा कार्यरत आसा.
- गोंयच्या सांस्कृतिक आनी सामाजिक मळार वावूरता.
- स्वामी विवेकानंद कला सादरीकरण मंच केरी, सत्तरीचे आजिवन सभासद.
- विशेश भुरग्यांचेर प्रकाश घालपी " दिव्यांग: जन–मन " हें पुस्तक प्रकाशनाच्या वाटेर आसा.

